जाग प्रकाशनाचें

# जाग

*म्हयनाळें*

वर्स ४४ : आंक १० : जून, २०१८

※ संस्थापक संपादपी :
स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

※ वैचारीक दायज :
स. माधवी सरदेसाय

※ संपादपी :
आसावरी नायक

※ पालवी संपादपी :
कृपाली नायक
एडना वाझ

※ उजवाडावपी :
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

※ छापपी :
इम्प्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५९० ००२

※ वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.
फोन: ९७८०८७११९८

वर्सुकी पटी : ४००/- रु.
विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) : २००/- रु.
तीन वर्सांची पटी : १,०००/- रु.
वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी : ५००/- रु.
जिवीत भराची वांगडी-पटी : ४,०००/- रु.

पटी मनी ऑर्डरीन वा ड्राफ्टान धाडची.
ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-

यादी पावसाच्यो...

## मांडावळ...



भायलें आनी भितल्लीं चित्रां : भरत जगताप

# गोड गोड पावस

**रमेश भगवंत वेळुस्कार**

दीस मायाचे आसताले. घामाचेय दीस आसताले. दीस गरम आसताले काय ना हाचेर चिंतपाचेय ते दीस नासले. पूण दीस आसताले आंब्यांचे, काजूंचे, काण्णां भिंडांचे, दर्या उदकांत न्हावपाचे. झरी, कुळागरांतल्या थंड शितळ बांयांचेर वचून न्हावपाचे. मामा मावशांगेर, आका, काकागेर रावपाक वचपाचे. असोच हांव त्या गिमांत म्हज्या आत्यागेर गेल्लों.

आत्याच्या घरातल्यान दोंगोर. काजुंचो मंद, गोड परमळ परिसरांत तुडुंब भरलेलोसो. घरा भायर आंगण, आंगणा कुशीक घे म्हण आंब्यांचीं झाडां; सामकार एक शें दोनशे वयाचो एक मनगंभीर वड आनी ताचे कुशीक वड कशीच दोट्टी तिट्टी आंगाची, सांवळेचें साम्राज्य पातळोवपी एक घसघशीत आंगाची आंबली. तेन्ना गोंयांत एप्रील नासलो. पूण आब्रील आसलो. आनी आब्रीलांत आंबलेचीं घोंटां पिकलीं काय ताचे आशिकुशीच्या सगल्या ल्हान व्हडांचें तोंड गोड केले बगर ती कशीच राव नासली. कारण पांच पांच मिनटां भितर टप टप करून तिचीं घोटां पडत रावतालीं. तांचो सुरबूस वास जिबेक चाळोवपी आसतालो. आनी वारो आयलो की हे टपटपीक एक धूंद छंद येवन दसतालो. आंबलेंत आनी हेर झाडांनी वारो घुसळूंक लागतालो तेन्ना मात आतां पावस येतलो काय किते असो भास जातालो. आनी अदींमदीं हे सगळे हरवे आस्पतीक पळयत उबे राविल्ले माड तिचेर लक्ष दवरून आसले.

आनी माय सोंपता म्हटल्यार एक दीस चड करून सांजवेळ साधून अकस्मात वारें व्हावंक लागतालें. वेगळेंचशें वारें. आंगार बसतांच आंग वगीच शिरशिरून वयतालें. धुल्ल वयर उबतालो. तशें मळबांत एखाद दुसरें कूप दिसतालें आनी म्हण्टां म्हण्टां सवन मळब काळ्या कुपांनी गच्च भरून येतालें. आनी पळयतां पळयतां सवन मळब आपले गतीन पावस जावन झडूंक लागतालें. आंबले मुळांत जाण्ट्यां नेण्ट्यांची गर्दी पळोवंक मेळटाली. हांवूय त्या पावसाक आंगार अरसयत तिच्या मुळांत आंबल्यो सोदतालों. आनी अकस्मात ती दिसतालीच दिसताली. पावसाच्या उदकान ती पुसून घेवन तिचो रस जिबेर येतालो. पावस, वारें आनी गोड गोड रस हाका लागून सगळो पावसूच गोड जावन येतालो.

त्या गोड पावसाचे दीस याद जातात आनी गळसणून वयतलीं कुडीचीं गात्रां परत एकदां उमेदीचीं धुमशणां घालपाच्या नेटान तन्नीं जावन येता. आका म्हण्टालें पावस पडलो की धर्तरी तन्नी जावन येतात. मागीर गात्रांक पावसाचो स्पर्श जातांच तीं तन्नेसाणीच्या फुलांचो भार जावन आयल्यार नवल कसलें!

## यादी पावसाच्यो...

**आका म्हण्टालें पावस पडलो की धर्तरी तन्नी जावन येता. मागीर गात्रांक पावसाचो स्पर्श जातांच तशेंच तीं तन्नेसाणीच्या फुलांचो भार जावन आयल्यार नवल कसलें!**

### पावस दनपारचो काजूबियां परमळ

कितलेशेच दीस जाल्यात पावस पडपाक लागल्यार. एकसारको पडत वयतल्या पांवळ्यांक लागून घरांक एक वेगळीच सोबाय येता. अकस्मात म्हाका पांवळ्यो सोबीत कित्याक दिसपाक लागल्यो तें मात म्हाका खबर ना. तश्यो हांव ह्यो पांवळ्यो कितलेच पावट पळयतालों. पूण अशें केन्नाच दिसूंक नासलें. त्यो म्हाका आतां अदीक सोबीत दिसपाक लागल्यात हें मात खरें. अशें कित्याक जाता काय, म्हाकां उमजनासलें.

आमच्या बल्कांवाक दोन जनेलां. आनी एक दार. ह्या पावसाच्या उच्छादान दारांत शेळ आयल्या अशें आका आपले भितरूच म्हणत गेल्लें हांवें आयकल्लें. थंय एक साक आसा. भायल्यान येतल्याक पांय पुसपाक. घरांत तेन्ना हांव आनी म्हजी भयण. ती म्हजे परस ल्हान. पूण पावस ज्या दिसा सावन पडपाक लागलेलो तेन्ना विशेश कांयच दिसूंक नासलें. पूण जशे जशे दीस वचपाक लागले तशे, किते हो पावस, अशें मनाक दिसपाक लागलें. तो एकसारको पडटालो. नेटान. खंयच चड ना, थोडो ना. दोन चार दीस जाल्यात आनी आसर म्हण्टा तो मात लेगीत जावंक ना. म्हाका जनेलांत बसपाक खूब आवडटा. पूण पावसांत मातशी आडखळ जाता कारण वारो आयलो वावझड मारता. आनी वावझड नाका दिसता. आनी वारो तर अदी मदीं झुमझुमून वयतालो. तरी केन्ना केन्ना ही वावझड गालांर घेन दिसताली. वाऱ्याचो, आनी पावसाचो हो स्पर्श म्हाका मनातल्या मनांत कातकुल्यो करून वयतालो.

म्हजें घर रस्त्याचे कुशीक आसा. रस्त्याचे दोशींवशीं घरां. घराच्या दाव्या हाताक एक ल्हानशें आंगण. आंगणांत एक पारजत. पारजताक एक ल्हानशें पेड आनी थंयच आमची तुळस. तुळशी फाटल्यान आमची बांय. ते मुखार कांय माड. एक चींच. एक म्हशींग आनी एक आंबो. हें सगळें तुमी येवन आतां सोदशात जाल्यार हांतलें तुमकां कांयच पळोवपाक मेळचें ना. ना म्हटल्यार आजून एक गजाल पळोवंक मेळपाचें भाग्य तुमकां आसा. रस्तो आनी आंगण हांचे मदीं बरी गडगंज धड आमी बांदून काडलेल्यान रस्त्या वयल्यान कसलोच लोट बी आयल्यार तो आंगणांत येना. आनी हांवें भुरगेपणांत पळयिल्ल्या पावसाचे कितलेशेच तेन्नाचे याद-फोटो मनांत आसात. आतां ह्या वेळार दारा मुखाल्ल्यान एक व्हाळ व्हांवता. ताचो रंग मातयेचो. म्हाका हो व्हाळ खूब आवडटा. आवडपाचें खरें कारण ताचें व्हांवतेंपण. सतत नवें नवें दिसपी हें व्हांवतेपण. लोक हे वाटेंतल्यान येतात वयतात. चडशा लोकांच्या म्हटल्यार दादल्यांच्या माथ्यार फटीं पळोवपाक मेळटालीं. तातूंत पावस लागनासलो. आनी बायलांच्या माथ्यार कंडे आसताले. हे कंडे मल्ल आनी केळीचें पान हाचे पसून तयार करताले. आनी ल्हान भुरग्यां कडेन चडशे फटयाचे कुडके वा ल्हानशे कंडे. आनी अदींमदीं सत्र्योय दिसताल्यो. कोंड्याच्या दांड्याच्यो हरणछाप सत्र्यो. म्हज्या घरा कुशीक एक घर दोतोराचें आसलें. हो दोतोर गांवठी वखद दितालो. झाडा पाल्याचें वखद. पूण दुयेंसां बरीं करपी वखद. तागेर जे भायल्या गांवचे दुयेंत येताले तांचेर कडेन मात रंगीत सत्र्यो पळोवपाक मेळटाल्यो. हांव दारा मुखाल्या व्हाळांतलें व्हांवतें उदक पळयतालों. तितल्यांत वयल्यान एक कागदाचें व्हडें व्हांवत येतना दिसलें. ताका व्हडें इतलेच खातीर म्हणपाचें कारण असलीं व्हडीं कागदाचीं करतात हें म्हाका खबर आसा, म्हणून. पूण तें आतां कागदूच कशें व्हांवतालें. ह्या लोटान पूण ताची हीच अवस्था जावपाची. म्हज्याय मनांत एक बोट उदकांत घालची अशें दिसलें. पूण तिची अवस्था कितें जातली हें येवजून हांवें तें ना करपाचें थारायलें.



इतल्यांत दमट वातावरणांतल्यान एक अद्‌भूत वास येवपाक लागलो. धुंवराचो वास... जळको वास... पूण जाय जायसो वास... पयस कोण तरी काजू बियो भाजतालो आनी बियांतल्या म्हौंवल्याक स्पर्श करून आयिल्ल्या उज्याचो गोड वास जिबलीय किमचावन गेलो आनी एक तरेची झिंगूय मनांत पिकोवन गेलो. पावसांतल्यान वस्त्रगाळ जावन येतलो वास आंग शिरशिरावन गेल्लो खरो. ल्हवू ल्हवू तो वास म्हाका पिशेंच लावन गेलो. आमच्या गोंयच्या पावसाक अश्या भाजत्या काजूबियांचो मस्त गोड आनी जिबली चाळोवपी वास येता, हें संवसारांतल्या लोकांक खबर आसा काय?

ह्या काजुंनी ह्या पावशी दमट वातावरणाक एक वेगळोच नेट हाडलो. झेम झेम जाल्लें वातावरण अकस्मात जोमांत आयिल्ले वरी जालें. आयजूय याद जातांच त्या फर्र फूर्र करून भाजत येतल्या काजूंचो दिखाळ वास तकलेक झींग हाडूंक लागता. ती पावशी दनपार गरम गरम काजूबियांच्या परमळान रुचीक जायत वचूंक लागता.

**दोंगरा वेले म्हातारे...**

दीस तापलेले. पावस पडनासलो. ते वर्सा मिर्गाकूय पावस पडलो ना. हरशीं सगळ्या संवसाराक एकूच मीर्ग आसता. आमचें गोंय इल्लें इस्पिश्याल. म्हण्टकूच ताका दोन दोन मीर्ग. एक हिंदुंचो मीर्ग जाल्यार दुसरो क्रिस्तांवांचो. आमचीं वैकुंठा लेगीत दोन दोन. अशे आमी इस्पिश्याल. आनी दोनूय मीर्ग सुके गेल्ल्यान लोकांचे उदका खातीर हाल हाल जाल्ले. ते दिसांनी गांवांतल्या दर एके बांयचेर चोवीसूय वरां बायलो, दादले, भुरगीं उदक गरयतना दिसतालीं. रातचे तर चडशे दादलेच बायलांक मदत करतना दिसताले. गांवांत हांवें म्हज्या भुरगेपणांत पळयिल्लें तें विचित्र चित्र आसलें. बांयंत देंवपी ते सर सर राजू पळोवन म्हाका कितेंशेंच दिसतालें. उदक मनशाचे कितले गरजेचें तें म्हाका पयलेच फावट ह्या दृश्यान दाखयलें. गांवांतल्यो चडश्यो बांयो सुकताल्यो. आमची विशेक हात खोलायेची बांय पूण मार्च सोंपता सोंपता म्हटल्यार सामकें तळाक लागतालें उदक. पूण आमचे बांयचें उदक रुचीक. तितली रूच बाकीच्या बांयांक नासली. एके बांयचें उदक सुकनासलें खरें पूण माय येतां म्हटल्यार उदक शेडीचेंशें लागपाक लागतालें. ताका लागून लोक एक तरी कळसो आमचे बांयचें उदक मेळचें म्हण ताप काडटाले. एक दीस हेच तापींत लोकांच्या उलोवपांत मात पावस दिसूंक लागलेलो. जो जो उलयतालो ताच्या तोंडांत पावस केन्ना येतलो काय, आनी कितले दीस घेतलो काय येवपाक? मागीर कांय लोक पोरुंचो पावस, आनी केन्नाचो पावस अशीं पावसाचीं वर्णनांय थंय येवपाक लागलेलीं. भायर पावस ना पूण मनांत मात पावसूच पावस. तशें हेंय चित्र म्हाका अजापाचेंच शें दिसतालें.

ते दीस हांव व्हडलें गोंयां एका म्हज्या आमिगाच्या घरा गेल्लों. तेन्ना घरा येतना हांवें शेतांतली वाट धरली. सांजचीं स वरां जावन गेल्लीं. पळय जाल्यार धा पंदरा चेडे, चेडवां माथ्यार फातर घेवन गायत येतालीं. हांव अजापलों. हें कितें तें म्हाका कळना जालें. सगळीं भुरगीं क्रिस्तांव भुरगीं आसलीं. तांणी आपापल्या माथ्या वयल्या फातरांक फुलां घातलेलीं. म्हाका मदींच आमीय चवथी उपरांत फातराचे गणपती माथ्यार घेवन केल्लो चवथीचो खेळ याद जालो. पूण क्रिस्तांव भुरगीं हें कितें म्हण करतालीं काय? मागीर हांवें तीं कितें म्हण्टात तें बारीकसाणेन आयकलें. जाल्यार तांच्या तोंडांतलें गीत संवकळीचेंशें लागलें. "दोंगरा वेले म्हातारे, पावसा घालगे सितारे, देवा सायबा पावस घाल, देवा सायबा पावस घाल." म्हाका मजा दिसली की तीं भुरगीं पावस मागतालीं फातरा कडेन. आनी ती

मागतालीं दोंगरावेले म्हातारेकडे. परत ह्या सगळ्याचें प्रतीक फातोर जाता. एका अर्थान तीं भुरगीं पावस मागतालीं धतरिचकडें काय कितें असोय विचार म्हजे तकलेंत घुंवपाक लागलो. आतां तीं भुरगीं पावस मागत खंय गांवांत वयतलीं. पूण तें चित्र पळोवन पावस बेग्गीन पडचो अशें म्हाका मनांतल्यान दिसलें. जो जो हें पावस-प्रार्थनेचें चित्र पळयतालो ताका पावस बेग्गीन पडचोच अशें दिसतलें काय? कितेंय आसूं ह्या चित्रान म्हजेर बरोच परिणाम केलो. हेरांचेरूय तें असोच परिणाम करतां आसुंये. उपरांत कांय दिसांनी गांवच्या एका जाण्टेल्यान अशींच गांवांतल्या कांय भुरग्यांक आपोवन हाडलीं. तांतल्या कांय भुरग्यांनी म्हाकाय आपले वांगडा व्हेलो. हांव गेलों. थंय पळय जाल्यार तो जाण्टेलो भुरग्यांक सांगतालो की उदक तर बांयांनीय आटोवपाक सुरू केलां. आतां पावसाचें पुरसांव काडले बगर उपाय ना. पावसा कडेन मागणें करपाक भुरग्यांनी आपल्या माथ्यार फातर दवरून ताका फुलांच्यो माळो बी घालपाक जाय. आनी अशे तरेन देवळा कडल्यान भायर सरून शिमे मेरेन वचून येवंक जाय. तशी ही भुरग्यांची मिरवणूक गेली. ''दोंगरा वेले म्हातारे, पावसा घालगे सितारे, देवा सायबा पावस घाल, देवा सायबा पावस घाल'' अशें म्हणत हें पुरसांव गांवांतल्यान वचपाक लागलें. आनी वाटेच्या सगल्या घरांतल्या लोकांनी भायर येवन पावसा बेगीन सोड्य रे बाबा ह्या अवर्शणांतल्यान म्हण मनांतल्या मनांत प्रार्थना करतना दिसले लोक. भुरगींय मार नेटान ''दोंगरा वेले म्हातारे, पावसा घालगे सितारे, देवा सायबा पावस घाल, देवा सायबा पावस घाल'' म्हणून आड्डत वचूंक लागली. इतल्यांत तो जाण्टेलो जाणें हे प्रार्थनेचो सुवाळो आटापलेलो तो म्हाका लागच्यान मेळ्ळो. गांवचे लोक ताका दादो म्हण पाचारताले. हांवें म्हटलें, ''दादो, ह्या पुरसांवांत भुरगींच कित्याक? जाण्टे लोक कित्याक नात?'' तर तो म्हणपाक लागलो की भुरग्यांच्या उतरांतली माया ही जाण्ट्या मनशांच्या आर्ततायेंतल्या माये परस चड कंवळी आसता आनी मळब म्हाम्मायेक ती चड घोस्ताक. देखून भुरगीं.

जाप म्हाका आवडलेली. आनी म्हजे तकलेंत पावसा दिसांनी भुरग्यांच्या तोंडांत आसपी दोन भुरग्यांच्या लोकगीतांची याद जावपाक लागली.

*दोंगरावेले कांळंगिणी पावस घाल गे सायबिणी।*
*देवा सायबा पावस घाल देवा सायबा पावस घाल॥*

*दोंगरावेले गोठाणी पावस घाल गे सायबिणी।*
*देवा सायबा पावस घाल देवा सायबा पावस घाल॥*

दोन दिसांनी खूब पावस पडपाक लागलेलो.

संपर्क : 9420688461



# म्हजो पावस

एन. शिवदास

पावस हो प्रत्यक्ष मनशाचो विधातो, मनशाचें जिणें आनी मनशाचें अस्तीत्वाचे देणें, मनशांक जांव हेर प्राण्यांक जांव झाडा पेडांक, पुराय सृश्ठीक जगोवपी एक महा पंचभूतांत एकभूत कसो. पावसान फकत याद करून सांगूंक जायना. पावस हो वांगडाच जियेवपी मनशाचो सांगाती कसो. ताच्या सांगाता बगर खंयच्याच जीव प्राण्यांक जांव वृक्षवालीक जगप शक्य नाच. अनादीकाला पासून घडये सृश्ट निर्मिणें पयलीं जल निर्मितीं जाल्ली आसूंक जाय. कारण आयजूय सृश्टीक जो कोम येतां तो पावस इल्लो तरी मातयेर झडून वचून जिरतकरच. देखूनच पावस हो पयलो, उपरांत सृश्टी. जीव-जिवाणें, प्राणी आनी मागीर मनीस.

आमकां मनशांक देखूनच पावसाचीं नवलाय ती आमच्या स्वासा सांगाताची. पावस आमच्या जल्मा सांगातान आमचो हात धरून चलतां. देखून वांगडा चलतना पावसाच्यो यादी आमच्या काळजांत सदां तेज नवतेजस कश्यो येवन रावतात. पावस यादींतलो मनशाक बुद्द येता तेन्ना सावन चड बरो समजतां, पावस समजप ही सुद्धा एक पायरी.

म्हाका पावस भुरगेपणांत जेन्ना पयलो भेटलो तो म्हजें राबित्याचें खोंपींत. म्हज्या गांवांत नागेशी-बांदोड्यां माडां पोंत नांवांचे हे कुळागर म्हजें भुरगेपणांत आसले. आताय आसतलें, साठ सत्तर वर्सां पयलीं पावस म्हजे जिणेंत आयलो तो म्हाका भिजयत म्हळ्यार जातां. जांच्या वाट्यांक बरी सुलच्या नळ्यांची वो गांवठी नळ्यांची पाकीं आयलीं, मातयेच्यो वण्टी आयल्यो ते म्हजे इतले पावसांत भिजूंक शकले ना. मात चुड्टांनी धांपिल्ल्या आनी मल्लाच्या आडोशाच्या आडोशा भितर पावस नेटान वावझडीत घूस. तेन्ना पावसाची कुंडो कशें शितोड्या वरी थेंब्यांनी पावशी आंगार कुडकुडो घेंवनच येतालें. तेन्ना तेन्ना आवयन आंगार पांगरुणां म्हणून घाली, तिगेल्याच न्हेंसपाचीं बोंदरां. हांव चादर म्हणून पांगुरतालों, घडये ते बोंदरांनी फकत थंडेचो पावसूच आडय नासलो तर थंय आवयचीं उबय आसतालीं. देखून पावसाचो कितलोय नेट आसल्यार लेगीत ते माडापोंता वयले खोंपीत भायल्या कुळागरातल्या माड्यांनी आनी झाडा झुडपांनी टपटपी पावस म्हाका म्हज्या भुरगेपणांतलीं सपनां घेवन येतालों. पूण पावस गरीबाच्याय खोंपीची पाखांटी भिजयी आनी गिरेस्ताच्या वाड्याचे मनोरेय भिजयी.

पावसाची दडक घेत आंगणांत हेर भुरग्यां मदी नाचप आनी चिप्प भिजतकच आता थंडी जातली. कोण काडटोलो जोर आयल्यार अशें म्हणत शिडशिडी बडी घेवन शेपलावपी आवय मागीर वोले आंगाक माराच्या बडयांच्या दांगायांनी रंगयताली. पूण थंड आंगाक मार समजी नासलो. थंडी जायत, पोराक जोर बी येत म्हण आवय रोकडीच हातां कडेन गावता त्या वस्त्रां कुडक्यान म्हजें सगळें आंग पुसून काडी. पयले पावसांत भिजपाची मजा मात केन्नाच उणी जाय नासली. मास्वींर फारार म्हणत भुरगेपणांतलो पावस आंगणांत कुळागरांत असुदाय आनंदान घेतिल्ल्याची ताजी याद आयजूय तो पावस भूल घालतां आनी मन मागीर खूब भुरगें जातां, आनी भुरगेपणांत चडूच खोल खोल रमतां.

भुरगेपणांतलो पावस आपणालें वेळापत्रक केन्नाच विसरनासलो. जुस्त जून म्हयनो लागलो म्हणटकच घरांतली जाण्टेलीं म्हण्टालीं आतां मीर्ग लागतलें. तेन्ना मीर्ग-बीर्ग कांयच समज नासलें. मृग नक्षत्र मळबांत लागतां तेन्ना पावसाचें नक्षत्र लागतां हें उपरांत समजलें. पूण मीर्ग सुद्दां पांच-स जूनाक लागी. मागीर आनी एक मज्जेशीर उतर कानार पडटालें. कोंकण्यालो मीर्ग आनी किरिस्तावालो मीर्ग.

कोंकण्यालो मीर्ग म्हळ्यार आमचें कशें, हिंदू लोकांक गोंयांत किरिस्तांव कोंकणे म्हण्टात तेन्ना हांसूक येता. आयजूय बी गोंयांतलें किरिस्तांव आमकां कौंकणो वा कोंकणो म्हणटात, पूण कोंकण्यालें मीर्ग, किरिस्तावालें मीर्ग म्हणटकच म्हाका प्रस्न पड्टालो, मयरालें मीर्ग केन्ना काय? मीर्गाक म्हळ्यार पावसाकूय धर्मांनी वांटून घालपाची आमच्या गोंयच्या समाजाची तोंखणाय दिस. जातींनी पावसाची वाटणी जालीना ते बरें जालें. ना जाल्यार अमके-तमके जातीचो पावस म्हणत. सारस्वत अन्न महोत्सव जसो आयज गोंयांतलो सारस्वत समाजांतलें घटक मनयतात तसो सारस्वत पावसोत्सवय बी मनोवपाचें.

पूण पावसांत खूबश्यो परबो ओतप्रोत खोशीच घेवन आमच्या समाज जिणेंत येतात. ह्यो परबो समाजाची, समाजांतल्या ल्हान-व्हडांची उर्बा, उमेद द्वीगुणीत करतां आनी पावसांतल्या वातावरणांत एक तरेची अध्यात्मीक आनी भावभक्तीची शितळकाय हाडटां. शिरवाण वा श्रावण हो म्हयनो पावसांतूच येतां. सोंपत्या पावसार मागीर ह्याच म्हयन्यांत मात्शें वत मात्सो पावस माकडांचीं लग्नां करता असोय आमचो समज आसा. तेन्ना माकडाच्या लग्नाचेर भुरगी तशीच जाण्टी कवनाय रचतात. आमचीं व्हड चवथीचीं परबूय भर पावसांत येतां.

**पावसांत, भर पावसांत कोलव्या, बाणावले, माजोड्याँ भोवप म्हळ्यार खूप मनभुलोवणों अणभव, ह्या अणभवाच्यो यादीय खूपदां ताज्यो टवटवत येतात. खास करून वांगडा आशिल्ली एक इश्टीणूय याद जाता, तरणे पिरायेर इश्टीणी वांगडा पावसात भिजिल्ल्यो अमूरपिको यादीय आयज उतरापिरायेर जुवानपणाच्यो भावना जागोवन वतात.**

ह्या तेंपार सृश्ट सामकीं पांचवीचार जावन व्होंकल कशी पाचवो चुडो मनगटांत घालून नटून थटून कोणा कडेन, घडये तिच्या मनांतल्या राजकुंवरां कडेन लग्न जावपाक आतूर जाल्ली दिसतां. पावसाचे अशें चार म्हयने जरी आसलें तरी पावस हाली तेंपार आपणालें वेळापत्रक पाळीना. मे वा माया म्हयन्याकूच तो मानसून वाऱ्याक चुकोवन अकस्मात येतां तेन्ना घरां शिंवूक नाशिल्ल्यान खोंपींनी रावपी गरीब लोकांची मात दया माया नासतना धांदळ उडयतां. केन्ना केन्ना तर आकांताच्या वाऱ्या वादळाक घेवन येता आनी झाडां-पेडांक आनी घरा-दारांक भूंय भरवण करतां, तशेंच कांय जाणांचे तरी जीव घेवन वयतां. पावसांतलें चार म्हयने वेदशाळेक सुटी नासता. इंचानी पावस मेजून हवामान सांगप, दर्यार तांबडे बावटे लावन नुस्ते माऱ्यांक शिटकावप. म्हजे यादींत इतलें पावस आयलें आनी ते हांवें अशे माथ्यार घेवन झेलले तेन्ना पावसान म्हाका पिरायेन गिरेस्त तर केलांच. कोण वादावादी घालतल्या विरोधकांक हांवें इतले पावसाळें खाल्ल्यांत हो डायलॉग मोखून मारून निरुत्तर केल्यात. 'पावस' हें उतर म्हजो पेज वाडोवन म्हाका पेजाद करतां. तांका 'शक्त' म्हणटात ती हीच, जी तांक पावस आमकां सगळ्यांक दितां.

म्हज्या यादींतल्या पावसान आकांत पळेलां, तुफान झेललां, भंय अणभवलां आनी सैमाक हात जोडून 'थांबया रे बाबा' अशें म्हणत भोंवतणचो सांवार आनी वाऱ्या वादळाचो अच्छेव पळोवन भर पावसा कडेन दिमी मारून पावसाक खूपदां मनांतल्या मनांत विनयलां आनी म्हळां, 'पुरो पापया, खूप जालें, विटयलें तुवें, आता वच एकदाचो तोंड घेवन.' आठ-धा दीस पडिल्लो यादींतलो पावस दाखोवन गेलां. पडंग वण्टी आनी भुंयखण जाली रानां-वनां आनी सुंदर फुलयिल्ले मळे, जय शेवंत्या-मोगऱ्यांचे न्हय तर कुळागरांतल्या भूंय चाफ्याकूय सरसकट पावसान भूंय भरवण केल्ली. पावस शांत जावन वतकच हांवें पळेलां, आनी पानांनी झिरकल्ले ओथेंबे टपटपी जिबेर घेवन गिळ्ळ्यात.

म्हज्यो यादी दोंगरा वयलो पावस माट्टी वयलो पावस, तेमकां वयलो पावस, कुळागरांतलो पावस, रानां-वनांतलो पावस आनी गांवांतलो तसो शारांतलो पावस. वेग-वेगळे तरेनी येवन वतां तेन्ना सगळ्यांत सोंबीत दिसता तो कातोळांतलो आनी खाजनी शेता वयलो पावस. लांब-रुंद मैलाचे मैल आशिल्ल्या खाजन शेतवडींतलो पावस हो शीम मेर नाशिल्लो पावस. खूबच तडाक्याचोय आसता. पूण शेतार तो आडकळी विर्णे व्हांवतना तशें कोणाचेच नुकसान अशें करीना. चडूच जाल्यार बांदा वयल्या शेतकारांची वो मानशेकारांची चुडटाचीं खोंप उखलून घेवन वतां आनी खोंपीचीं ताडां हाडां अयस-पयस शेतार शिंपडावन वता. हो पावस असो खाजनांतलो चोडणां ह्या म्हज्या मामाच्या गांवांत अणभवला. ह्या गांवांक मांडवी-जुवारी न्हंयच्यो तारी हुपल्या बगर गांवा भायर वचप वो गांवा भितर येवप शक्य नासताले. तेन्नाच्यो यादी पावसांत येतात. तारी पलतडीन वतना-येतना काळीज धडधड. म्हजी आवय रायबंदरचे तारींत बसून आमकां चोडणेच्या जुव्यार आशिल्ल्या म्हज्या मामागेर मायाचे सुटयेंत दर वर्सा व्हरतालीं. ती याद तर आयजूय आंगार कांटो उबो करता. रायबंदर ते माडेल हे न्हंयचे अंतर बरेंच व्हडलें आसा. तारीन वसाडींतल्यान वचप म्हळ्यार एक व्हड दिव्यूच. पूण मामागेर हे वटेन वतलो जाल्यार रायबंदरची तार. ना जाल्यार पणजेच्यान पोंबुर्पा एकोशे वचप. थंयचे न्हंयचे पात्र अशीर देखून तारीचो रस्तोय अरुंद देखून तार बेगी तडीक लागता. पूण रायबंदरचीं तार आलतडच्यान पलतड्या पावपाक मात वर पाऊणवर तरी लागताली. फेरी बोटी येवचे पयलींची ही याद. आयजचे पिळगेक हे तारीचो अणभव नासतोलो. पूण म्हजे यादींत हे तारींतलो प्रवास हांव कसोच विसरचो ना. चड करून तार न्हंयचे मधेकाक पावता आनी अकस्मात न्हंयेच्या पात्रार तारीर आकांताचें वारें येवन पावसाच्यो दडक्यो मारूंक लागतात. तेन्ना जीव मुठींत धरून एकामेकांक घट्ट धरून बसत देवाचे स्मरण करपा बगर दुसरो कसलोच उपाय नासतालो. म्हज्या आवयची स्थिती तर वर्णनाभायली. ती आमकां दोगांय भुरग्यांक दोनूय वेंगानी कवटाळून घेवन तारीचे बाणीर बस नासतना सकयल बसत कुळदेवी खांडेकान्नीक उलो मारताली. खांडेकान्न म्हळ्यार खांडेपारची शांतादुर्गा जी आमची कुलदेवी.

दुसरो देव तिच्या तोंडार आसतालो तो तिज्या कुळाराचो देव सुर्लाचो सिद्धेश्वर. 'सिद्धेश्वरा पाव' म्हणत. आमची तार जेन्ना माडेला धक्याक लागताली तेन्ना हुसक्या मेकळो स्वास घेवन सयसलामत पलतडी पावली आता काराभाटांत चोडणां मामागेर बेगी पावतली अशें मनांक दिस. पूण तेन्ना माडेलाच्यान काराभाट वचपाक चलत उणेच वर भर तरी लागतालें. बसी, कार्रेरी जांव टेंपो बी तेनना येव नासल्यो.

चोडणां मामागेर पावतकच मागीर मजाच मजा. माया म्हयनो केन्ना सोंपलो आनी मीर्गाची सुलूस केन्ना लागतालीं तें कळच नासलें. सुटी सोंप, जुनांत शाळा सुरू. परत पावसाचेंच राज्य. परत तोच अणभव तरेतरेच्या पावसाचो. खूप जाणांनी पावसाक बरी-बरी नांवांय दवरिल्लीं. मिर्गाचो पावस, काट्यांचो पावस, नक्षत्रांचो पावस, दर नव्या मळबांत लागतले एक एक नक्षत्र तेन्ना पडपी पावसाचे नांवांर जातालें. जाण्टेल्यांनीय ही नक्षत्रांची नांवां आपणाले गांवगिरे भाशेंत गोंदून दवरल्ल्यात. पिसोळ्यांचो पावस पिसोळी घेवन येतालो. घोडकांचो पावस रानांत काजी पोंदां घोडकां किल्लयता. ही घोडकां खावपाक मागीर आमी भुरगीं वोल्या वोल्या जाल्ल्या काजीपोंदच्या खोलयांनी भोंव आनी घोडकां सोदून ताचे गरवा दाबोळी (अर्द) घोस्तान खातालें. जेन्ना घोडकां किलताली तेन्ना दोंगरा वयली भेळसां, काण्णां, चुन्नां, पिरकोळां, बावताली. तातूंत उदक वचून ती बेचव जाताली. मागीर भेळसां खावन निळें-निळें जालें तोंड धुंवपाची पाळी येनासली. पावसांत वारें वादळाक लागून पोरां ताचो पोतयो घेवन फांतोडेर हातांत टॉर्च घेवन आंब्या पोंदां वाऱ्यान झडिल्ले आंबें, आंबल्यो पुंजावपाक वचपाचो एक 'प्रोग्राम' आसतालो. नागेशी फाटल्यान दोंगर आसात. थंय मेल्ल्या तेंम आसा, माट्ट आसा, शापूर आसा, सोर्पा घोला आसा, वाग तळी आनी खेटन तळीय आसा. मेल्ल्या तेंम म्हळ्यार थंय गांवांतल्या मेल्ल्या मनशांक व्हरून पुरताले. ते तेंपार हिंदू-भौसांतल्या गरीब लोकांक मरतकच जाळोवंक लाकूड कोण दिनासलो. फकत भाटकार लोक चड करून भट, बामण, वाणी, शेट आदीं वर्गांतले आपणाल्या मेल्ल्यांक आपणाल्याच भाटांनी लासताले, पूण हेर गरीबांक मरतकच 'दफन' फोणा बगर पर्याय नासतालो. देखून हिंदू धर्मात मेल्ल्यांक लासतात. तांकां अग्नी दितात बी म्हणटात ते पुराय सत्य न्हय. पावसांत मरतल्यांच्या कुडिचे खूब हाल जाताले. लासतनाय आनी पुरतनाय. सरण पावसांत भिजल्यार कूड अर्द जळून उरताली तेन्ना गांवांत खूब बोवाळ जातालो. वेगळ्यो वेगळ्यो वावड्यो पसरताल्यो. अमक्या-तमक्याचें मडे सारकें नासलोना. ताचें लचके-कुडकें घेवन कुत्रे गांवांत येताले. कोले खाताले अशे भिरांकूळ उलप पावसा दिसांनी जाण्टेले करताले. तेन्ना म्हजे सारकें भुरगेंय खूब भितालें. अर्द जळिल्ल्यांची भुतां जातात, आनी ही भुतां मागीर गांवांत येवन रावतात अशें समजतालें. ही भुतां-बितां कोण न्हय. सगळे फट अशें सांगपी जाण्टेलेय तेन्ना नासले, कारण जाण्टेलेय बी भुतां खेतांचेर, देवचार, म्हारु, खेत्री, रौदीरो हापशी, आलवातिणी, मुंजो ह्या सगळ्यांक खरेंय मानताले. पावसांतल्या वातावरणांत जेन्ना असल्यो गजाली घडट्टाल्यो तेन्ना भंय-धडधड, कलकल हाणीच मन भरून वतालें, ताका लागून

यादी पावसाच्यो...

पावसांतले जिणें थंड शितळ आसुनूय घरांतल्या कोनशाक एक बेबकी रडली आनी किडी-मुयेन आवाज काडलो जाल्यार लेगीत घरांतले वातावरण अशुभ कशें भासतालें.

पूण पावसांतल्या खूब भुरगेपणांतल्या ह्या यादी भायर तरणेपणा वयल्यो पावसाच्यो यादी मात खूब सुखदिण्यो आनी आंगार मोरपाखां भोंवणावपी. जुवान पण मात्शें थ्रील घेवन येता. नवी शक्त आंगांपागांत सैम घेवन येतां. तोंडार मिशयो येतांत, दंड-घट्ट जातांत, छाती रुंदावतां, मनगटां घट्ट मजबूत जातात आनी मूठ मारता थंय चुरो जाता वा खोंट मारता थंय उदक येतां अशे जुवानपणांत जेन्ना दिसता तेन्ना जुवानपणांतलो पावसूय मोग मायपास घेवन येता. म्हजो नागेशी गांव, आनी गांवांतलो पावस तर अक्षरशां भोंवतणच्या दोंगरा-तेमकां वयल्या आनी घोलांनी घोगेंत सकयल येता. फर्मागुडी वयलें तेंब-तेमकलां, माट्टी आनी गाळी पळेतल्यांक हाची कल्पना येतली. नागेशी हो खोल-खोल गांव भोंवतणी सगळेच दोंगर. पाचवेचार, दोंगरा मूळसा कडेन नागेश सारको स्वयंभू देव. कांय देव साश्टींतल्यान हांगा हाडून दोंगरा मुळसा कडेन पुजल्यांत ते महालक्ष्मी, रामनाथ, शांतादुर्गा, कपलेश्वर आनी हेर देव. पूण मूळ पंचीश्टांतली बेताळ, रवळनाथ, पूर्वचारी, नागनाथ जांव, रोयर्णीतल्यो सगळ्यो सांतेरी पूर्वचारी हे देव आनी तांच्या मुखार आशिल्ल्यो ल्हान-व्हड तळयो, व्हाळ आनी झरे पावसाची संकेत थळां कशी. हांगा थोडो पावस वयल्यान येवन सकयल रावता. चडशे जुवारी न्हंयेक वचून खारवाडो, उंडीर, करंजाळे, दुर्भाट, आगापूर, रासय हांगाच्या जुवारेक आनी फुडें मांडवीकूय मेळटा. अशे तरेन पावसाच्या उदकाचे न्हंयांनी विसर्जन जातां.

पावसांत, कोलव्या, बाणावले, माजोर्ड्या भोंवप म्हळ्यार खूब मनभुलोवणों अणभव. ह्या अणभवाच्यो यादीय खूबदां ताज्यो टवटवत येतात. खास करून वांगडा आशिल्ली एक इश्टीणूय याद जाता, तरणे पिरायेर इश्टीणी वांगडा पावसांत भिजिल्ल्यो अमुरपिक्यो यादीय आयज उतर पिरायेर जुवानपणाच्यो भावना जागोवन वतात.

अमृताचो पावस म्हजें कोंकणी भाशेंत हाडपी शणै गोंयबाब हेच खातीर यादींतल्या पावसाची याद करतना येवन वता. तश्यो जायत्यो आताच्या आनी जाण्ट्या कवींच्यो. कविताय पावसाच्या यादींनी स्पर्शून वतात.

असो हो विविधांगी सर्वव्यापी जिणेदार प्रसन्न खोस देणो दर एकल्याचें जिणेक सैमान असुदाय न मागता दिलां, तो सगळे अख्खे सृश्टीक दिलां, कारण ताच्या बगर ही सृश्टी आसूंकच शक नासली, पावस हो सृश्टीचो आत्मोच म्हणूंक जाय, जो आमकांय गावलां, ताच्यो यादी सांगत तितल्यो आनी काडींत तितल्यो थोड्योच.

संपर्क: 9422417233



वैशाख अंतीम टप्प्यार पावला. वैशाख वणवो म्हळ्यार कितें हाचो अणभव येता. दिसाचो तसो रातीचोय. चणे खोर्नांत भाजचे तशे वा भिकणां कायलींतले तप्त रेवेंत भाजची तशें शें कितें अणभवपाक येता. जेष्ठाक आरंभ जावपाक एक सप्तक आसा. ज्येश्ठूय असोच हुलपायतलो अशें दिसता. दीसरात एसी लायल्या बगर पर्याय ना. ही असैमीक जीण सारप मनाट पुटवना आनी कूड स्किारूय करिना. पूण पर्याय ना दुसरो.

गांवांत आसतना खंय पळयल्यो हांवें एसी आनी बीसी! चडांत चड फॅन. पूण त्या फॅना परस भायर आंगणांत चुडटां मासाचेर वो बल्कावांत न्हिदल्यार काय बरी न्हीद पडटाली. आंगणांत न्हिदिल्लो आसतना भर न्हिदे भारार मळबांतल्यान एकटुक्यान प्रवास करपी एखादल्या कुपान वतां वतां शिताडो जालो जाल्यार मात 'पावस पावस' म्हणत भितर धांवचें पडटालें. पूण तातूंतय एक मजाच आसता. पावसाचे पयले वयले थेंबे येवकारपाचें भाग्य तशें सहज मेळना. आतां फुडें फुडें आनी ते दुर्मिळूच म्हणपाचें. उरिल्ली आख्खी जीण

# पावस जालो म्हजे जिणेचो...!

दिलीप बोरकार



बंदखणींत सारची तशी एसीतूच सरपाची.

पयर मे म्हयन्याच्या ८ तारखेर रातची अकस्मात जाग आयली. कसल्या तरी आवाजान म्हाका जाग आयिल्ली. कसलो आवाज काय...? वयल्या फ्लॅटांत रावपी बिराडकारां बी कसलो आवाज करतात काय?...! कितलो वेळ जाला काय...? लायट पेटोवपा खातीर दिव्याच्या बटना कडेन हात व्हेलो. लायट पेटलीना. म्हणचे लायट गेल्या. तें म्हाका आदींच कळूंक जाय आशिल्लें. एसी बंद जाल्लो आनी फॅनूय चलनाशिल्लो. केन्ना गेल्ली काय लायट...? इतल्यांत पर्थून आवाज जालो आनी त्या आवाजा वांगडाच वीज लखलखली. जनेलाच्या हारशांतल्यान लख्ख लख्ख जावन गेलें. म्हणचे गडगड आनी जोगलावणें जावन पावस पडटा काय कितें...? आगशीच्या घरांत म्हज्या अयस पयस बॅडरुमांतल्या विस्तृत जनेलांतल्यान दोळ्यां सामकार नदर पावता थंय मेरेन मळबूच मळब. त्या मळबांत तो विजेचो खेळ आनी पावसाचो नाच. वाऱ्याचें धांवप, रुखां-झोपां वांगडा ताचें धांवचेल्यांनी खेळप. पावसाच्या थेंब्यांची पावलां मातयेर पडप... टपटपप आनी मागीर ते मातयेंतल्यान मुक्त जाल्लो गंध दरवळत उक्त्या जनेलांतल्यान भितर सरून नाका मेरेन येवप. वेगळीच धुंदी घेवन..!

हांगा पणजे तें सूख ना. हांगा बंद कुडींत एसीचो कुबट वास. लायट ना म्हणटकच न्हीद पडची ना. कितलीं वरां जाल्यांत काय...? काळखांतूच सांसपून मोबायल काडून वेळ पळयलो. देड जालां. लयाट येतली काय बेगीन...? कांयच सांगूंक जायना...!! सकाळ मेरेन आतां वळवळप काय...? कोणे सांगलां हें तळमळत हांतुणार पडून रावप...!! उठलों आनी भायर येवन गॅलरीचें दार उगडलें. त्या बरोबर जोगलावण्याचो एक प्रखर झोत दोळ्यांर आपटलो आनी फाटोफाट आकांताचो गडगड. सांगाताक वाऱ्याचो शितळ स्पर्शूय घश्टून गेलो. गरमेन आंबशेल्लो जीव सुखावलो. कदेल ओडून घेवन गॅलरींतूच बसलों सैमाचो चमत्कार पळयत, ताका तोखेंत...

गडगडाच्या तालार आनी बिजलेच्या फ्लॅश लायटीर वारो आनी पावसाचो एकमेकाचो हात धरून रुखा-झोपांच्या सांगातान नाच चालू आशिल्लो. पावसाक लागून आयिल्ले थंडसाणेन जीव सुखावलो. हो असो नजारो चलत आसतना लायट आयल्यारूय न्हिदूंक कोण वतां...? म्हजें नाक ह्या पयल्या पावसांतल्या गंधाचो शोध घेवंक लागलें. आगशी घरा भोंवतणी मातीच माती. पावसाचो शिताडो पडलो काय मृदगंध नाका मेरेन धावत येताच. मागीर तो ल्हवपीक नाकाच्या पुडयांनी ओडून घेवन हांव म्हजीं पुलमांवा भरून घेतां. मृदगंधाची ही नशा आगळीच आसता. हालींसराक सैमाची संतुळाच इबाडल्या. केन्नाय पावस पडटा. फाटीं तर हांवें एकाच दिसा तिनूय रुतू अणभवल्यांत. फांतोडेर कुडकुड्याचो शिंयाळो, दिस भर वताचो रखरख आनी गरमेचो सांवार आनी रातचो हरंदरांचो पावस... जसो

किते मीर्गूच लागलां... अशे वेळार खंयचो मृदगंध आनी खंयचो किते... मृदगंधाचो परमळ घेवंक रुतुमान सैमीक रुपान चलूंक जाय. चार म्हयने शिंयाळो, चार म्हयने गिमाळो आनी त्या गिमाळ्याचो अतिरेक जालो काय पुराय धर्तरीक थंडावपा पासत मागीर पावसाचें आगमन. पयल्या पावसाचें तें धांवून येवप, पयल्या पावसाचे थेंबे मातयेर पडप... आनी मागीर ते मातयेन एक सेक्सी गंध सोडप... त्या गंधाचें एक पिशेंच लागता.

गॅलरींत बशिल्ले कडच्यान हांव मृदगंद ओडून घेवपाक खोल स्वास घेतां. पूण पणजे सगळ्यांक डांबरी रस्ते... म्हाका अपेक्षीत मृदगंध त्या रस्त्याचेर पडिल्ल्या पावसांतल्यान मुक्त जायना. म्हजो मृदगंध सुटावो जावपाक जाय आसता माती. ते खातीर वेवस्थीत तापूंक जाय धर्तर रुपी तवो.

म्हजी आवय पोळे काडपा पासत तवो चुलीर दवरतालीं. तो तापलो काय पळोवंक ताचेर उदक फाफुडटालीं... म्हाका तो चळ्ळ आवाज आयकूंक मज्जाच दिसतालीं. तवो तापलो हें कळटकच त्या तव्याक आई तेल सारयताली आनी मागीर त्या तेलाचो गंध नाका मेरेन धांवत येतालो, धुंद करपी. तव्या पोंदचो उजो चुलींत आसता धर्तरीचो तवो अयस पयस विस्तारिल्लो आसता. ताचो विस्तव म्हळ्यार तो सूर्य. गिमांत तो धर्तरीच्या तव्याक ताप ताप तापयता. मागीर एक दीस त्या तव्या वयल्यान वचपी एक कूप पावसाचो शिताडो त्या धर्तर रुपी तव्याचेर फाफुडटा. तव्यार जसो सळ्ळ करून आवाज येता तसो आवाज येता. तो हेरांक कोणाक आयकूंक येना जायत, म्हाका आयकूंक येता. असल्या आवाजांक वेगळेच कान जाय पडटात.

मागीर तो धुंद करपी मातयेचो गंध... मृदगंध... पयलो पावस शेनलो काय मातयेचो एक सुंदरसो गंध येता. ह्या गंधाची धुंदी आगळीच आसता. बरोच काळ सूर्याच्या तापान धर्तरी सामकी पिशांतूर जावन वतां. मागीर कुपांनी तिचेर पावसाचे थेंबे फाफुडले काय मागीर ती धर्तर निश्वास सोडटा. त्या निश्वासाची उब जाणवता. होलमतां. ती उब घेवन येता मृदगंध... तो गंध नाकाच्यो पुडयो ओडून घेतात. पूण खऱ्यानीच तो मातयेचो गंध आसता काय...? मातयेक गंध आसता काय ना हाचेर हांवें केन्ना विचारूच केलो ना. जाका आमी मातयेचो गंध म्हणटात तो खऱ्यानीच मृदगंध काय हांगाय आमी फसतात...? हो मातयेचो वास नासताच मुळी...! हो वास आसता तो मातयेंत भरसल्ल्या मृत किटकांचो, सुक्षीम बॅक्टेरियाचो. पावसाचे थेंबे मातयेंत पडले काय ते मातयेंत मरून एकजीव जाल्ल्या ह्या किटाणूंचें विघटन जाता आनी तातुंतल्यान हो दर्प मुक्त जाता. पूण आमी धरून चलतात, तो मातयेचोच वास म्हूण... खरेपणीं तो मृदगंध न्हय तर मृतगंध म्हणपाचें सत म्हाका खंय तरी वाचूंक मेळ्ळें आनी तरी तातुंतल्यान एक सत म्हाका होलमलें तें म्हळ्यार कृमी किटक कितें आनी मनीस कितें. शेवटाक मातीच. हे धर्तरीचेर उरतली ती मातीच. हेच मातये संबदी, ताच्या वासा संबंदी, मृदगंधा विशीं हांवें विशेश जाणून घेवपाचो यत्न केलो तेन्ना म्हाका हाचें गुपीत कळ्ळें.

मातयेच्या ह्या वासाचें कुवाडें, मृदगंधाचें कुवाडें संवसार भरच्या लोकांक पडिल्लें आसा. अमेरिकेंतले कांय शास्त्रज्ञूय हें कुवाडे सोदपाक लागिल्ले. तांणी संशोधन करून ह्या मृदगंधाचे रहस्य सुटावें करून ताका 'पेट्रीकॉर' अशें नांव दिलें. पावसाचो थेंब विशिश्ट गतीन आनी विशिश्ट पद्दतीन मातयेर पडटा, तेन्ना तातूंत हवेचे बारीक बारीक बुडबुडे अडकतात. ह्या बुडबुड्यांमदीं मातयेचे कांय कड सांडटतात. हो उदकाचो थेंब जेन्ना फुट्टा तेन्ना हे ल्हान एअरोसोल थेंब्या भायर पडटात आनी हवेंत मिसळटात. ल्हारां फुटचीं तशीं, शॅम्पेन फसफसची तशी ही प्रक्रिया आसता. ह्या एअरोसोलांत सुवासीक घटक आसतात. मातयेंतल्यान मृत किटक आनी विशाणू सयत हीं सुवासीक द्रव्यां भायर सरून वाऱ्या वांगडा आसमंतांत फाफसतात. कसलो खेळ हो सैमाचो..!! लायट येवपाचीं चिन्ना दिसनात. पावस, गडगड आनी जोगलावणेंय थांबपाचीं चिन्नां दिसनात. लायट येना जाल्यार उपकारता, पूण हो गडगड, हें जोगलावणें आनी हो पावस मात थारना जाल्यार पुरो! म्हजें मन सांगता... कितलो सुवार्थी हांव... म्हाका पावस आवडटा, जोगलावणें आनी गडगड म्हाका प्रिय म्हूण हांव सैमाचो हो खेळ थारचो न्हय म्हूण मागतां... पूण तेच वांगडा ह्या अवेळार आयिल्ल्या पावसाक लागून जांबळा गेलीं, काण्णां गेलीं, आंबे गेले ताचें कितें? तें सोडात, ह्या गडगडाक, ह्या जोगलावण्याक, ह्या पावसाक लागून लायट गेल्या आनी कितलेच लोक गरमेन सामकें आबालार जाल्यात आसतले. तांची न्हीद खळ्ळ्या आसतली. ते अचकीत आयिल्ल्या पावसाक आनी गेल्ले लायटीक गाळी घालतात आसतले. पूण हांव पावसाक येवकारून पावसाचो खेळ पळयत कितलोय वेळ बसपाची म्हजी तयारी आसा. कित्याक हांव पावस पिसो? पावसांतल्या ह्या खेळांचो पिसो? म्हाका ह्या पावसाचेर खूब येवजूपाचें आसा, खूब अभ्यास करपाचो आसा. पावसाक जाणून घेवपाचो आसा. भुरगेपणा साकून हांव तेंच करीत आयलां.

अलेक्झांडर फ्रेटर हो एक ब्रिटीश पत्रकार, लेखक आनी भोंवडेकार. तोय पावसपिसो. खास भारतीय पावस पळोवंक तो १९८७ वर्सा भारतांत येवन राविल्लो. ताणें उत्तर भारत, मध्य भारतांतलो पावसा आदलो रखरख आनी दुकळ पळयलो, अणभवलो, उपरांत दक्षीणे कडल्यान येवपी मान्सूनच्या आगमना साकून पाठलाव करीत उत्तरे मेरेन गेलो. ह्या प्रवासांत तो वाटेर लोकांक मेळ्ळो. पावसाचो लोकांचेर कसो परिणाम जाता हाचो अभ्यास करून ताणें आपले अणभव 'चेसिंग द मान्सून' ह्या आपल्या पुस्तकांत बरयल्यांत.

केन्ना केन्नाय म्हाकाय दिसता, ह्या पावसाच्या फाटल्यान धांवचें. पावसाचो शोध घेत फिरचें. कित्याक तर पावसाचे हे पुराप प्रक्रियेंत केन्नाच सुटावें जायना अशें एक गूढ आसता. ह्या गुढाकूच लागून पावस म्हाका पिशें लायतां. हांव पावसाची पिशांतूर जावन प्रतिक्षा

करता चातका वरीं. चातका वरीं कित्याक? हो चातक पक्षी हांवें पळयला काय दुभाव आसा. पूण साहित्यान, चड करून मराठी साहित्यान तो म्हजे तकलेंत घाला. मागीर हांवूय चातका वरीं वाट पळयतां अशी म्हणपाची सवंय लागली. चातका परस आमकां लागीं टिटाबोय. तेंच शेवणें पावसाची सुलूस घेवन येता. तेंच कित्याक... सगळ्याच शेवण्यांक पावसाची सुलूस सगळ्यांत पयलीं लागता. तांकां वेध लागिल्ले आसतात पावसा आदीं आपली घरटीं बांदपाचो...

म्हाका घरटें बांदपाचें नासता, म्हाका चातका वरीं पयल्या पावसाचो थेंबो चोंचींत घेवन वर्स भराची तान न्हिवोवपाची नासता. मागीर कित्याक म्हाका हें पावस पिशें? म्हजे सैम पिशें म्हाका ह्या पावसा कडेन ओढटा जावंक जाय! म्हाका पावस खूब आवडटा. हांव दर वर्सा एक संकल्प करतां, ह्या पावसांत हांव घरांत बैठक मारून खूब कितें कितें बरोवन काडटलों. गरमेच्या उबाळांत नाका शेवट जाता. कितें बरयतलों म्हळ्यार नाकाच दिसता. गिमाळो हो धर्तरेच्या पोटांतल्या बियांक तापोवपाचो काळ आसूं येता. मातयेंतलीं बियां ह्या सूर्याच्या तापान सामकीं कोमेवपाचे तेंगशेर पावता जावंक जाय. तेच पासत पावसाची पयलीच दडक आयली रे आयली, ताच्या शिंवरांत हीं बियां आपल्या आंगावेल्या कल्लांचें आवरण मोखून मारून, मातयेंतल्यान तकली वयर काडून सूर्याक पळयतात. सैमाचो हो नेम आमकां साहित्यकारांकूय लागू जाता जावंक जाय.

गिमाळ्यांत म्हजे कडल्यान विशेश कांय बरोवन जायनां. म्हाका त्या दिसांनी वाऱ्यार उबपाक, वारो खावपाक, हुर्राक पिवपाक आवडटा. आनी मागीर जूनांत पावस लागलो काय म्हज्या मनांत तापून आशिल्लीं बियां त्या पावसांत एकेक करून अंकुरपाक लागतात. म्हाकाच न्हय, चडश्या साहित्यीकांची हीच गत आसूंक जाय. पूण म्हाका तांतल्या कांय जाणांचो अतिरेक आवडना. पावस म्हळ्यार निर्मितीचें प्रतिक वो सृजनाचें टॉनीक बी सगळें बरें आसा, पूण पावसांतूच भारंभार कविता रचप आनी पावसाच्यो कविता पावसा वरींच घसघश्यांनी रकोवन मागीर ओग्गी बसप हातूंत म्हाका एक कृत्रिमताय दिसता. सर्जकाचे वेगळे वेगळे मूड आसतात तशे पावसाचेय आसतात. मळबांत कुपां सामकीं दाटून येतात. दिसता आतां घसघश्यांनी पावस रकतलो आनी तो थारचोच ना. वातावरणांत एक जडसाण आशिल्ली काळखी फांकता तीय ह्या पावशी वातावरणांत भर घालता. अशें आसुनय पावस पडटलोच म्हणपाचें सांगू येना. केन्ना केन्ना भर आशाढांत आसमंत उजळ आसता. मातशें मातशें वतूय आसता. सातव्या म्हयन्याचे गुरवार बायलेच्या मुखामळा वेले फांकीवरी. अशे वेळार पावसाचें चिन्न कोणूच काडचोना. पूण मागीर ओतता तो मात हरंधराचो पावस, पावसाचो हो मूडी सभाव आमच्या कवीं बाबतींत मात खंयच दिसना. ते पावसाची प्रतिक्षा करतात फक्त कविता करपाक. मागीर ते कविता तयार करीत रावतात. पावसाचो सीन चित्रीत करूंक कृत्रिम पावसा खातीर शॉवरची मांडणी केल्ले वरीं. पावसाचे मूड आनी शॉवराचो पावस हातूंतलें अंतर आयच्या चडश्या कवीनी भरसून उडयलां.

हांव पावस लागलो काय बरयतलों म्हणटां. तसो संकल्पूय करतां. आतांच न्हय, फाटले बरेच पावसाळे तेंच करीत आयलां. घसघश्यांनी पावस रकूंक लागलो काय हांव सुखावतां. आतां भायर सरपाची गरज ना, हो पावस भायर सरूंक दिवंचोच ना. चला, आतां बैठक मारूया म्हूण हांव बरोवंक बसतां. आतां पयलीं सारकें बरोवपाक मूड बी लागूंक जाय अशें कांयच ना. दात्यार बसतकूच आपसूक होंवयो येतात म्हणचे कितें ताचो साक्षात्कार जाता. कागद ओडून पेन हातांत घेतलें काय आपशींच बरोवन जाता. ते पासत अमूकच एक विशय जायच अशें नासता. वेगळे वेगळे विशय आदींच आखून दवरिल्ले आसतात. कादंबरी, प्रवासवर्णन जांव नाटक बी तांचो आराखडो तयार आसता. गरज आसता ती पेन हातांत घेवन बरोवपाक आरंभ करपाची.

पूण हो पावस घात मारता. बरोवपाक बैठक मारपाचें निमित्त हो पावसूच आसता. हांव बरोवंक बसतांय बी. पूण पावस बरोवपा कडेन कशेंच शितीद लावंक दिना. नदर वयर करून जनेलांतल्यान भायर पळयल्यारूच पुरो, पावस वेगळ्या वेगळ्या रुपांनी म्हज्या दोळ्यां मुखार नाच करूंक लागता, म्हजें बरोवपाचें मेज आसा थंयच्यान मुखार नदर पावता थंय मेरेन अयस पयस शेतां आसात. एके वटेन आंब्याचीं पणसाची, वडाचीं, चिंचेचीं रुखां आसात. हांवें म्हज्या घरा लागीं सुवात मेळटा थंय तरांतरांचीं झाडां रोयल्यांत. जाणी जाणीं तीं भेटयल्यांत तांचीं नांवांय हांवें त्या रुखांक दिल्यांत. कोडू लिंबाक मनेका गांधी, जगमीणीक उदयकुमार प्रभुदेसाय, तिखी झाडाक रॉक फुर्तादू, जांबाक बॉनी, आनी एकल्याक माथानी. विशय आयलाच म्हूण सांगतां, आमच्या आंगणांत एक व्हडलो वड आशिल्लो. तो म्हज्या पापान रोयिल्लो. रोयिल्लो इतलेच खातीर म्हणपाचें, थंय सुर्वेक एक माड आशिल्लो. तो वाकडो जाल्लो देखून ताका पापान वडा खांदयेची धिगी लायली. कालांतरान माड जाणटेपणार मेलो आनी वडाची धीग मात वाडून ताचो रूख जालो. ताची वाड हांवें फाटल्या पन्नास वर्सांक दर दिसा पळयल्ली. हालींच फाटल्या वर्सा पावसांत तो लवंडलो. पडलोय कसो तर आमचें घर, घरा मुखा वयली गॅरेज हांकां मातूय तेंक नासतना अचळय मदोमद लवंडलो. थंय एक आडसाटो माड आशिल्लो, ताका लेगीत ताणें आपली खांदी लेगीत घसटयली ना. मागीर तो पडिल्लो वड मेकळो करूंक फायर ब्रिगेड हाडली. वडाचो तो धवधवसो दीक, ताच्यो मेकळ्यो जावपी फांदयो, तुटिल्ल्यो पारंब्यो, चानयांचे आनी हेर शेवण्यांचे जळामळाक पडिल्ले अस्ताव्यस्त घोंटेर... आंगण मेकळें जावंक जाय म्हूण हांवें आदेस भर त्या वडा कडेन काडलो खरो... पूण रातचो तें उगतें उगतेंपण पळोवन हांव कदेलार बशिल्ले कडेन खूब खूब रडलों.

पावस लागलो काय हांव त्या वडा कडेनूय पळयतालों. मुखार

वड, वडा कुशीक हेर रुख, रुखांचेर चडिल्ल्यो वाली. मागीर तीं शेकानशेक पातळिल्लीं शेतां... पाचवोच गालीचो घाल्लीं.... आनी शेतां बांदाचेर उबे आशिल्ले माड. विश्वामित्र तपश्चर्येक बसला तेन्ना मेनका नांवाची अप्सरा ताचो तपोभंग करून नृत्य करीत आयिल्ली अशी आख्यायीका हांव आयकत आयलां. म्हाका तो प्रसंग हांव बरोवंक बसलां थंयच्यान भायर नदर मारतकच दृश्यरुपांत दिसता तो फक्त पावसांत. म्हजो तो वड विश्वामित्र कसो बसून आसा. येवपी वाऱ्याक तो कसोच दाद दिना. मुखा वयल्या शेतांत पावस अशे तरेन रकता, की शेतांतल्या पाचव्या गालीच्याचेर मादक अप्सरा वडाच तपश्चर्या भंग करूंक नृत्य करता असो भास जाता.

शेतांतल्या त्या उगत्या मळार पावसाचीं कितलींच रुपां दिसतात. पावस दृश्य रुपांत, मूर्त रुपांत कितलो सुंदर दिसता तें उगत्या मळारूच पळोवपाचें. पावसाचें ल्हारेवप, पावसाचें गणोवप, पावसाचें लागोळेपण, पावसाची घोडेमोडणी, पावसाचो वीरभद्र, पावसाची अप्सरा चाल आनी ताचें तें मोडप. 'तूं मोडत मोडत चलतना, म्हज्या काळजाक जातात वेदना' अशें उल्हास बुयांवान म्हणलां खरें पूण पावसाचें मोडप काळजाक खातकुतल्यो करपी, सुखदिणें आसता. अशें हें एकंदर पावसाचें रूप म्हाका पावसांत भायर पळयतना दिसता तेन्ना बरोवंक उखलिल्ले पेन चिमटेंतल्यान सुटून कागदार लवंडताच. पेन आनी नदर बळयां कागदाचेर थिरायली तरी कान, नाक खंय नियंत्रणांत उरतात?



भायर पडपी पावस कानार सादताच. पावसाचें वाजपूय कान भुलयणें आसता. हांव गडगडाचें म्हणना. तो तर वेगळोच प्रकार. पूण पावस जेन्ना वेगवेगळ्या रुपांनी झडटा तेन्ना दरेक रुपा वांगडा आपलें खाशेलें अशें वादय घेवन येता, त्या वाजपाची लय, ताल वेगळीच आसता. तातूंत पावळेचें उदक म्हूण एक वेगळो सूर आसता. झाडांवयल्यान पडपी थेंब्याचो वेगळो आवाज आसता. वयर नळ्यांर पडपी पावस आनी पत्र्यांचेर पडपी पावस हांचें स्वताचें अस्तित्व दाखोवपी आवाजाचें वेगळेंपण आसता. त्या आवाजांत ल्हवपीक येवपी वारो जेन्ना रुखांच्या पानांक फूंक मारीत वता तेन्ना तीं पानां जो आवाज करता तो सोंसपाचो न्हय. माडाच्या चुडटांच्यो चुट्ट्यो, आंबाड्याचीं पानां, चिंचेचीं पानां, आंब्या पानां आपलें खाशेलेंपण सांबाळून तिटतिट्टात. पिटपिट्टात तें आयकतल्याक तृप्त करून सोडटा. आनी मागीर बाकीबाबां सारको जो कोण हें संगीत आयकता तो आमचे मुखार उबो रावता, 'पाने पिटती टाळ्या ग!' म्हणत.. हांवें खूबशें पावसाळी साहित्य नदरेखालां घालां. तातूंत कालिदासूय आसा आनी 'श्रावणात घन निळा बरसला' म्हणपी मंगेश पाडगांवकारूय आसा. पूण बाकीबाबान जें कितें वर्णन केलां तें म्हाका हेर कडेन खंयच दिसूंक ना. पावसांत पानां टाळया मारतात ही कल्पनाच इतल्या दृश्य स्वरुपांत येता की ते एके ओळीनूच पुराय सृश्ट पावसाक कसो येवकार दीत खोस मनयता हो भाव मूर्त रूप घेवन उबो रावता. आनी मागीर 'वेली रुतुमती झाल्या ग' ही ओळ कशी कुशीक दवरू येता? रुतुमती जावप म्हळ्यार निशिद्ध मानून ह्या काळाचो अणभव घेवप आमी अनादी काळा पासून टाळ्ळां. हाकाच लागून त्या काळांतली कामूक आक्रमकताय आनी तिचे भोंवतणचें दर्पयुक्त गंधधुंद वलय हाका आमी मुकल्यात. पूण बाकीबाबांन वेली रुतुमती झाल्या ग म्हणत केदें व्हडलें काव्य आमचे मुखार जितें जिवें करून दवरलां. पावसांतल्या वेलींक पळयतकच रुतुमती जावप म्हळ्यार कितें, रुतुमतीचें सौंदर्य कितें हें अचळय दोळ्यां मुखार येता. हो असो सृश्टींत, सृश्टीला पाचवा महिना ग... चालू आसतना मान मोडून म्हजे कडल्यान कशें बरप जातलें होय एक म्हजे मुखा वयलो प्रस्न आसा. हेच पासत हांव बरोवंक बसतां खरो, पूण बरोवपाचें काम पेन करिना तर दोळे करतात. कान, नाक, दोळ्यांक आदार करतात आनी मागीर हें दोळे झरझर बरयत सुट्टात ते थेट मनाच्या कागदाचेर. मनाचें हें कागदूय सामकें अप्रूपच. एक पान सोंपलें, दुसरें घे अशें  हांगा जायना. तें मनाचें कागद मळबा परसूय व्हड. दोळ्यांनी बरोवंक बसतकच दुसरें कागद घेवपा पासत वेळ लेगीत होगडावपाची गरज पडना. मनाचें कागद पावसान चिप्प भिजून ताचो लगदो लेगीत जाता. मनाचें हें कागद वाऱ्यार उबता, वादळान सैरबैर जाता तरी ताचेवयलें बरप वचना. कितलें सुंदर बरप हें.

मागीर हांव म्हाकाच प्रस्न करतां, हो मस्तो पावस म्हाका बरोवपाक मन थीर करूंक दिना तें कशें? पावसांत बरोवपा पासत बैठकूच मारून बसूंक कित्याक जाय? ही पळय पावसाची पयलीं घंट चालू आसा. कांय दिसांनी मान्सून लागलो काय पावसाचें तरांतरांचें नृत्य नाटक आमकां हें धतरेचे माचयेर पळोवंक गावतलें. आयज पयली घंटा, ट्रेलर तो. गडगडाची आवाजा येवजण, विजेची उजवाडा येवजण... सगळी येसाय ही... ती सोंपली काय मागीर खऱ्या अर्थान पावस नृत्याक आरंभ जातलो. ताचो उपभोग घेवपाक सगळेच आतूर आसतात अशें ना. पूण ही आयज पयली घंटा जावन ट्रेलर दाखोवप चल्ला तो दाखोवन जाल्या उपरांत फाल्यांच पळयात, पुराय वाठारांत पाचवीच कार्पेट घाल्ली दिसतली, वचत थंय तांबडेच तुरे वयर आयिल्ले दिसतले. शेतांतूच न्हय तर घरांत लेगीत बेब्या बेपकांचे संगीत सुरू जातलें. ही सगळी पावसाच्या येवकाराची तयारी आनी जांचे भितर खरेलीच सर्जकताय आसा तो दोळ्यांच्या पेनान मनाच्या कागदार पावसाचें म्हाकाव्य बरोवंक लागतलो. ताची जीणच पावस जावन वतली हातूंत मात्तूय अतिताय ना.

संपर्क: 9822136885



# जिणे संघर्श आनी पावस

कृपाली नायक

म्हज्या आयुश्यांत म्हाका तीन गजालींनी सदांच एक अपरूप ओड लायल्यां त्यो म्हळ्यार दर्या, रान आनी पावस. ह्या तीनय गजालींक हांव भुलतां. अटंग्या रानांत दिसाचे दीस भोंव म्हणलें जाल्यार हांव खुशाल भोंवन. दर्याचे देगेर बसून ताचो गाज आयकूंक मेळत जाल्यार थंय म्हजी तान भूक न्हिवता. आनी पावस! तो तर मनभुलोवणोच.

ह्या बरपांतल्यान भुरगेपणांतल्या कांय यादींचे भोंवडेर वचपाचो यत्न करतां. जायत्यो यादी आसात पूण आमचे खातीर पावस सुरू जावप म्हणजे खरें संकट येवप. पावसा खातीरचो जळव एकठांय करपाक एप्रील-मे म्हयन्यांत रानांनी वचप. ते भायर घर कोलवाचें आशिल्ल्यान ह्या दिसांनी करड काडपाक वचप. हर्शीच हे दीस उबाळाचे जाल्ल्यान जीव अर्द मेल्ले वरी जातालो आनी तातूंत करडाची गरमी. ते भायर तें आंगाक लागतकच आंगाक पडपी खाज जिवाक नाका पुरो करताली. मागीर तें घर शिंवप तो दीस तर नाका रे सायबा. याद काडल्यारच आतां भंय दिसता. मानाय मेळनांत म्हणून हावा शिवा करून मायाचो म्हयनो सोंपतना मानाय घरार चडूंक येताले. ह्या बोवाळांत जर आडयाळो पावस आयलो जाल्यार गळून घरांत खातड जाताली. मागीर वणटी सुकता म्हळ्यार परत कळाव. घर शिंवता ते दिसा सक्काळीं उठा सांपळे भिजया, करड भिजया, घरार सावन सकयल उडयल्लो कोलू काडून जायच्या झाडांनी साऱ्याक घाला. हें सगळे करतात आनी घर निवळ जाता म्हण सर आठ दीस वताले. शिंवपी येवन शिंवन वताले पूण फाटलें काम चड त्रास दिणें आसतालें. इतलेंय जालें म्हण सोंपनासलें. पावस येतकच येरे म्हाज्या मांगल्या. गळपाचें गळटालेंच. ह्या कारणान शेजरा रावपी आजयेन आमच्या सोंप्या आनी आपल्या सोंप्या मद्दीं चर मारप. हर्शी सगळ्याक तितलेंच गळटालें पूण तिचे मतान आमच्या उदकान तिच्या सोंप्याची चड वाट लागताली. जाका लागून आजयेचीं आनी पापाचीं (पिवन येवन) झगडीं. आजीय उलोवंक आयक नाशिल्ली आनी पापाय. झगडी उपरांत आजी चड अगड करताली. पापाक दिसतालें आपली भुरगीं चरांत पडचीं, तांचे हात-पांय मोडचे म्हण आजी मुद्दम करता. आई सांग ल्हान आसतना आमी रडनात आनी आई जर किते काम करता आसत जाल्यार ती मुद्दम आमी रड मेरेन आमच्या पोल्याचेर मारताली. आनी आमकां रडयताली खंय. हेंय ती मुद्दाम करताली काय खबर ना. पूण आमी जायते फावट ह्या चरांत पडलात. आनी हो चार मारिल्ल्यान तिचे वटेन किते फरक पडला हाचीय जाण जांवक ना दोनय वटेनच्या सोंप्या वयल्या रेब्यांत तितलेच पांय शिरकल्ल्याची याद जाता.

पावसांत काणकोण वाठारांत कामतां करतात. आमच्या वाड्यारय करतालीं चड करून मामा घरचे ना जाल्यार तांगेल्याच कुडक्यांत इल्लेशें आमचें कामत आसतालें. मागीर घे कामां. शाळेंत वचून येयात आनी कामताच्या कामाक लागात. खानलां घाल, रोंपे लाय, सारें घाल, शेण घाल, सावळ घाल हें सगळें. कामतां शेजराच आसपी व्होळटेचेर ल्हान ल्हान फोणकुलां मारताले. पावसांत उदक सांचून जमनींत जिरपाक. रानांतलें उदक सरळ येतालें. ह्या फोणकुलांनी साचतालें आनी मुखार व्होलटेंतल्यान वतालें. आमकां भुरग्यांक ह्या उदकांत नाचपाक मज्जा येताली. भिजतकच खावपी कुडकुड्यांत कामतांतल्या खोपींत दादान करून दिल्ली धुकटेल्ली च्या ते वेळार अमृता वरी दिसताली. भिजून चिप्प जावन घरा वतकच सगळ्यांच्यो

तापसाणी, सगळ्या नातरां वांगडा दादाकय. पूण आमकां कितलेंय तापय व्हडलें पडून वच नाशिल्लें. पावस भर हीं कामां. कांय कारणांक लागून म्हाका हें कामत चड आवडटालें. तातूंतलें एक म्हळ्यार ह्या दिसांनी करक्यांक उरपी उदकांत (रानां तळपांचेर आशिल्ल्या ल्हान ल्हान फातराळी बुराकांक करके म्हणटात) पावसाचे सुरवातेक बेबे पिलां काडटात. ल्हानशीं हीं पिलां मुखार ल्हान सोंड कशीं आनी फाटल्यान शेंप. त्या ल्हानश्या जाग्यार ती शेंकड्यांनी पिलां इतलीं नाचतालीं आमी तांकां धरपाचो यत्न करतालीं पूण ती हाताक सांपड नाशिल्लीं. म्हाका मात तांचो त्या उदकांतलो नाच खूब आवड. तो पळोवंक वरांचीं वरां बसपाक हांव तयार आसतालें पूण कामां इतलीं आसतालीं की तातूंतल्यान वेळ काडून हांव तो पळयतालें. कितलें ल्हान जीव ते.

दुसरें म्हळ्यार पावसा दिसांनी रान व्हंकल कशीं नट्टा सगलीं झाडां पालेतात जमनीर करड किल्लून सगलो वाठार पाचवोचार जाता हो देखाव खंयच्याय हिन्दी सिनेमांतल्या गार्डनाच्या देखाव्या परसय सुंदर आसतालो. तो पळोवन आमी भुरगींय मात्शी फिल्मी जातालीं. त्या करडाचेर आड पडून फिल्मांतल्या हिरो हिरोईनी सारकें मनसोक्त लोळप, पोट जमनीर तेंकोवन खाडकेर हात दवरप हो रानांत येतना वतना सदचो वावर जातालो. कांय तेंपान ह्याच वाठारांत ताम-माडयेचीं फुलां फुलतालीं. हीं धवींफुल्ल फुलां मळ भर आसतालीं. त्या वाठाराक त्या वेळार आयिल्ली सोबा उतरांनी सांगप कठीण. आयज मेरेन खंयचीच सुवात म्हाका त्या वाठारा इतली भुरळ घालूंक पावूं ना इतली ती सुंदरताय दोळे दिपकावपी आसताली. तण ल्हान आसतना अळंग त्या तणाचेर नाचपी हांव ह्या वेळार मात पावलां जोखून घालतालें. एक झाड (फूल) माडवचें न्हय म्हण.

एक खरें ह्या दिसांनी शाळा आसची अशें दिस नाशिल्लें. ते परस ती शाळा गरमेच्या दिसांनी आसची दिसताली. कारण एक म्हळ्यार रानांतल्यो करामती करपाक वेळ कमी पडटालो आनी दुसरें म्हळ्यार पावसा दिसांनी जावपी जायचे कळे नित्याचे आसताले. गांवांत जायते जाणांचो पावसांतलो हो वेवसाय आशिल्लो. सक्काळीं उठा तुमकां वांटून दिल्ले सुवाते वयले कळे काडा आनी शाळेंत वचा. हो वावर हांवें एम. ए. सोंप मेरेन केला. जितली मजा सांजेच्या रानांतल्या पावसांत मळार भिजपाक येताली तितलीच ही सकाळची शिक्षा दिसताली. न्हिदेच्या दोळ्यांनी उठून हें काम आनी पावसय तितल्याच तेमाचो, सक्काळीं झाडांनी वचपाचो वेळ ताकाय खबर आसतालो. त्याच वेळार तोय येतालो आमचे भेटेक. मागीर सत्री घेवन नाजाल्यार कापती घेवन भिजत ते कळे. आंगांत भितरल्यान कडकडो सुट्टालो. तेन्ना गरम गरम फुटी च्याची तलप येताली. पूण करपाक न्ही पिवपाक कोणाकच वेळ नासतालो. कळे काडून जातकच आईन केल्ली गरम गरम च्या आनी पानां वयली उकड्या तांदळां पिठाचीं भाकरी मेळटाली. पूण ह्या दिसांनी खऱ्या च्याची मजा येताली ती मां च्या हातच्या. आयताराक जांव सुट्येच्या दिसांनी कळे काडून व्हरून मांगेर वयडले काय ग्लासांत गरम दुदाची च्या आनी बशयेंत बशी भर उप्पीट ना जाल्यार फोव. ह्या दिसांनी सकाळ जांवचीच न्हय आनी थोडो वेळ न्हिदूंक मेळचें शें दिसतालें. पूण इलाज नासतालो.

झाडांनी चडश्यो खबरी पावसाच्योच. कसलें नक्षत्र लागलां, पावस कित्याचेर बसला ह्योच. कांय नक्षत्रां झाडांक वायट आसतालीं म्हळ्यार पिकेक वायट. तो पावस चड पडचो न्हय अशें म्हणटाले. आतां याद जायना पूण चड करून अश्लेशा नक्षत्राचो पावससो दिसता. पावस उंदरार,हत्तीर, मोरार, सोंश्यार, कोल्यार बी जनावरांचेर बसतालो. पावस जाय आशिल्ल्या जनावरांचेर जर पावस बसत जाल्यार तो घोग्यांनी रकता ना जाल्यार तें नक्षत्र सुकें वता असो समज आशिल्लो. हांव हे मुद्दम पळयतालें. मोर, बेबो हांचेर बशिल्लो पावस हरंदरांनी रकतालो. उंदीर, वाग हांचेर बशिल्लो पावस कमी. कितें गणीत खबर ना पूण शेतकारांचो हिशेब बरोबर आसतालो. तातूंत एक पावस कुसडिचो आसतालो अशें आजी सांगताली. 'तो पावस कमी पडचो म्हण मागा गो पोरांनो, कामत कुसतलें' आजयेचो हुस्को. आमीय मागीर 'देवा पाव. पावस कमी पडल्यार पुरो. चिबडां, मोर्गी, तवशीं कुसयना जाल्यार पुरो' म्हण मागतालीं पूण तो पावस पडटालो आनी पिकेर आयिल्ली फळावळ कुसताली. कामतांत उखूलंक जायना इतलीं व्हड तवशीं चिबडां जातालीं तिंवय फकत शेण आनी सावळीचेर. आयज तितलीं व्हड हीं फळां बाजारांनी दिसनात. हीं फळां तेन्ना पांच आनी स रुपयांकय घेवंक लोक बेजारतालो. पूण एक खरें आमी तीं पोट भर सर खातालीं. कोणाकय हात उलखून दितालींय. दुख्ख ना पूण आयज हीं सुखां नात. चवथ आसूं जांव कसलीय सण परब, कळ्यांचें काम चूक नाशिल्लें. पूण पावसांत पापाक काम कमी मेळटालें. देखून हे कळे आमच्या चरितार्थाचो व्हड आधार जाताले. चवथी दिसांनी तर हे काम करपाक कंटाळो येतालो कारण चवथीची मजा करपाक कळे काडून जाले शिवाय सुटका नासली. सगलीं गणपतीं हाडपाचे फोग लावपाचे गडबडींत जाल्यार आमी भावडां कळे काडपाचे गडबडींत. पूण चवथी दिसांनी कळे काडपाचें समादान इतलेंच की हेर दिसंनी सात रुपयांनी हजार (म्हळ्यार एक चेंडू) आसपी कळे त्या दिसांनी फुलकान्न आमकां १४ रुपयांनी दिताली. सात रुपया चड! ते खूब आसताले. फुडें ही दर ६० रुपया चवथीक मेरेन जाल्ली मागीर आमकां तें काम करप शक्य जालें ना.

अशीच एक घडणूक याद उरपा सारकी. हांव तेन्ना सातवे आठवेक आसतलें. मदल्या मामाचें लग्न पावसांत जाल्लें. मामीन येतना स्टीलाची बालदी हाडिल्ली. आमकां तें बालदेचें कवतूक. आमी तो वेळ मेरेन स्टीलाची बालदी पळोवंक नाशिल्ली. मामाच्या घरा सकयल व्हाळ आमी हांव आनी मनीषा (मावस भयण) लग्ना दिसांतले दोन-तीन दिसांचे कपडे घेवन उमळूंक गेल्लीं. फाटल्यान आई, मावशी आयिल्ली. अचकीत पावस सुरू. बारीक पडटा म्हण आमी वोगीच रावलीं. अचकीत पावस मोठो आयलो. राना वाटेन पावस चड पडिल्ल्यान आनी दोंगराळ वाठार आशिल्ल्यान व्हळाचें उदक एकदम

वाडलें. कितें करप समजना जालें. मेळटात ते कपडे बालदेंत भरले आनी आमी तडीर येवपाक लागलीं. मनीषा मुखार पावलें म्हजे हातांत बालदी उदकाचीं जत नेटाची. हांव थोडो वेळ व्हांवलें आनी बालदी बुडली. बालदेक घट्ट धरिल्ल्यान हांव उरलें. आई मावशी तडीर आशिल्लीं. तांणी बालदे सकट म्हाका तडीर ओडलें. मागीर घे बोवाळ पोरां व्हावन वता आशिल्लीं म्हण. पूण हांवेंय बालदी कशीच सोडली ना. नवी बालदी सोडूं येता? ही सगलीच दोन मिणटां भितरली खबर पूण त्या दोन मिणटांक मरण म्हळ्यार कितें तें पळयलें. आयजय मामीची ती बालदी दिसता तेन्ना हो प्रसंग तश्या तसो याद जाता. आनी हांसू येता. हांवें बालदी कशीच सोडली ना म्हण...

पावसा दिसांनी गांवांत घरांनी जिवाणी येवप ही सहाजीकशी गजाल. रात जाली काय तांचें आगमन आसतालें. चड करून सातफळ ह्या जिवाण्याचें. माळूण आयल्यार शेजाऱ्यागेर बी ताका पितळच्या तोपा पोंदाक धांपून न्हिदताली. आमगेर काडून भायर वडयताली. न्हिदिल्ले कडेन एक दोन फावट सातफळय पांयां पोंदच्यान गेल्ल्याची याद जाता. तांचें थंड थंड आंग. कितलेशेच फावटी तांकां मारपय जातालें. एक फावट तर दनपारचें न्हिदिल्ले कडेन फळयेर आशिल्ल्या हातरुणांनी मालूण घेवन हांव सुस्त दोन-तीन तास न्हिदलां. उठून हांतरूण काडटना सुमार पावूण वांव भर लांब माळूण! मागीर आड्डी. दिवड तर उंदरांक खावंक आतऱ्या पयऱ्यान येतालेच येताले पूण दिवड दिसाचो, तो रातचो रावना. आमोरी जावचे आदीं तो वतालो. तो रातचो रावल्यार खंय घरांत समृद्धी येता. ती कितली येता खबर ना. पूण तो सात वरां उपरांत रावना इतलें खरें. सातांची इगर्जेंत आमोरेची घांट मारचे पयली कितलेशेच फावटी ताका वतना पळयलां. अशेंच एक दीस सक्काळीं चारांक सुमार काकान कसलें तरी जिवाणें मारलें. ताचें अर्द कित्याच्या तरी पोंदा गेल्ल्यान ताच्या अर्दाचेरच तरसाद पडली. जिवाणे मेलें म्हण ताणें सोडून दिलें. आमी भावंडां शाळेंत गेल्लीं. ते उपरांत खंय तें जिवाणें पुराय घराक भोंवताडो मारता. घरांत कोण ना आनी हरंदरांनी पावस पडटा. आईन मागीर कोणाक तरी आपोवन ताका मारलें. आई तो दिवड समजली. मारूंक आयिल्ल्यानय तो दिवड म्हण सांगलो. त्या दिसा आजो आयिल्लो. ताणें पळयलें आनी म्हणूंक लागलो भुरग्यांक मारपाचें चिंतिल्लें काय कितें गो? वाल ती चाबल्यार कितें करता आशिल्ली? जिवाण्याच्यो आनी आमच्यो करामती जायत्यो आसात. कामतांनी उंदरांक खावपाक तर व्हड व्हड जिवाणी येतालीं. वाटे वाटेकच तर त्या काळार पन्नाशेक तरी जुवाण्यांच्यो जाती गांवांत पळयल्यात जश्यो रक्तमावडोळ, आगयो, कुसडो, सोरोप, सातफोळ, फिरशें, नागीण, हरबेल, हार, पाचको बी. जिवाणें आशिल्ल्याची सुलूस मनशां परस जनावरांक आदीं लागता. माजर घरांत आसत आनी जिवाणें येत जाल्यार तें मोठ्या मोठ्यान रडटा आनी जिवाण्याच्या आंगार वता. कुत्रो जिवाणें दिसतकच भोंकता. चवथीच्या दिसा आमच्या भुरग्यांचें एक व्हडलें काम म्हळ्यार पत्री (शिरवडाचीं पानां) पुंजावप. तीं पुंजावपाक रानांत वचप. एका वर्सा अशींच गेल्लीं बरें वयर कासर व्हळ म्हण एक व्हळ आसा थंय सर पावस शिरशिरतालो. तरी आमकां व्होळांत भिजपाची ओड आशिल्ली. अचकीत आमचे बरोबर आशिल्लो टायगर भोंकपाक लागलो. आमी ताका थातारतात. तो कसोच वोगी रावना. व्हळा पलतडीन वचपाक आमी अर्द उदकांत पाविल्लीं. जाल्यार एक व्हडलो हार आमचे मात्सो मुखार उदकाचेर पडून आसा. तशींच उदकांतल्यान धांवपाक लागिल्लीं तीं घरां येवन थांबल्यांत. काणकोणां एक गतक आसा पत्रेक गेल्लो वागान खायलो म्हण. मागीर कितलीशींच वर्सां घरचीं चवथी कडेन ह्या घडणुकेची 'पत्रेक गेल्लो हारान खायलो' जावपाचें म्हण याद काडटालीं.

आमचो गांव म्हळ्यार, खंय पयलीं व्हड न्हंय. ही न्हंय विष्णू देवळा मेरेन आशिल्ली आनी फुडें रान. फुडें ती न्हंय फाटीं पडून गांव वसलो. पावसा दिसांनी गांवांक न्हंयेचें रूप येतालें. आलतड आनी पलतड आशिल्ल्यान मदल्या वाठाराक भरपूर पावस पडटकच हुंवार येतालो आनी हो वाठार तुडुंब भरतालो. गिमा दिसांनी दिसपी शेतां हुंवाराच्या पावसांत भरतालीं. आमची शाळा पलतडी. कितलोय पावस पडूं हांवें शाळा केन्नाच बुडोवंक ना. शाळेंत वतना चार पूल लागताले भाटांतलो, कडे अर्क, मदे अर्क आनी परत कडे अर्क. पावसा दिसांनी हे पूल काडटना जीव मुठीं येतालो कारण पोंदच्यान उदक इतले गतीन वतालें. तातूंत पडल्यार? म्हण पुलार पावतकच धांव मारप. पूण भाटांतल्या पुलार मज्जा येताली तो काडटना हे वटेन ते वटेन दोन-तीन वेळां धांवन पळोवप. खरेंच हांव फास्ट काय उदक फास्ट ही दुसरे तिसरेंतली गजाल. ल्हान आसतना बालवाडींत गेल्ल्यान जेन्ना बाईन आतां तुवें शाळेंत वचपाचें म्हण सांगलें तेन्ना म्हजे कडेन युनीफॉर्म ना. शाळेंत १८ जुना उपरांत कपडे मेळटाले. तो वेळ मेरेन म्हाका शाळा चुकोवप शक्य नाशिल्लें. आनी युनीफॉर्मा शिवाय शाळेंत वचपाक लज दिसताली. तशे कपडेय नाशिल्ले. शाळेच्या पयल्या दिसा भाऊ शाळेंत वचपाक भायर सरलो. म्हजो रडून आकांत. उटंगाराचो पावस भाऊ गेलो पूण म्हजी रड कशीच थांबना. ''म्हाका आत्तां युनीफॉर्म जाय म्हाका शाळेंत वचूंक जाय'' म्हण म्हजी रड. १२ वरांचेर शाळा सुटली. भुरगीं घरा आयलीं. तरी हांव रडटां. परत दनपरां भाऊ भायर सरलो. आईन भाऊची पोरनी हाफ पेन्ट आनी शर्ट घातलो आनी दोन वरांचेर हांव शाळेंत वचपाक भायर सरलें. याद जाता ते प्रमाण घोग्यांचो पावस, ती देंवपी हाफ पेन्ट, हाता परस व्हड आनी धोंपरा मेरेन पावपी तो बुस्कोट, म्हजी आनी भाऊची ती एकच आपायलो दांडो (व्हड दांड्याचीं) सत्री, आनी लांकडी आट्याची कोणें तरी दिल्ली पाटी. हो म्हजो शाळेंतलो पयलो आदेस.

गांवांत पावसा दिसांनी लोकांच्या घरांनी, भाटांनी उदक भरतालें. जाका लागून लोकांचें खूब लुकसाण जातालें. मागीर कांय तरनाटे तें उदक लावन दिवपाक त्या हुंवारांत आपली हुशारकी दाखयताले. खरें म्हळ्यार उदका कडेन खेळटाले. तातूंत आमचो पापाय आसतालो.

ते वयर ये मेरेन जीव गोळाक लागिल्लो आसतालो. हुडून गेल्यार? पूण ह्या हुंवाराचो कांय जाणांक फायदो जातालो. तो म्हळ्यार गिमाचो पाडो बेग्गीन जाल्ल्यान जांव पावस बेगीन पडिल्ल्यान पाडप उरतालें आनी पावस पडलो काय नाल्ल झडपाक लागताले. कांय जाण मागीर हे हुंवारांत आयिल्ले नाल्ल कोगळ्यान धरताले. जाका लागून तांचो पावस-गिमांतलो नाल्लांचो हुस्को सोंपतालो. हरशीं आमचें घर डोंगरार आशिल्ल्यान आमकां केन्नाच हुंवाराचो त्रास जावंक ना. पूण मर्दींच पापान हेमंत काकाली भट्टी चलोवंक घेतिल्ली आनी भट्टी शेता धडेर आशिल्ल्यान तेन्ना मात आमकां भट्टेंत उदक भरून भर पूर लोस जाल्लें. तो खरोच दुश्काळांतलो तेरावो आशिल्लो. हरशींच दुकळ आनी तातूंत हें.

आमी ल्हान आसतना एक चक्री वादळ जाल्लें. झाडां, माड, माडयो सामक्यो घुंवताली. त्या वेळारय गांवांत खूब लुकसाण जाल्लें. लायट तर कितलेशेच दीस नाशिल्ली. आईन ते दिसा आमकां बेगीन बेगीन घरांतल्यान भायर काडलों आनी माशेनाल्या सोंप्यार बसपाक सांगलें तेन्ना माशेन गोंयांत नाशिल्लें मुंबय गेल्लें. आईक भंय आशिल्लो घर पडल्यार? आनी घरा मुखार आशिल्लो एक आब्या रूख करगेल्लो. तो पडल्यार? पूण तो रूख आजूनय तसोच आसा. आमी ते पुराय वादळ तांच्या सोंप्यार बसून पळयलां. कितें वारें व्हावतालें अजापाचेशें. ते दिसा कितलेशेच रूख, माड आमच्या दोळ्या सामकार पडल्यात. आमच्या घराचो कोलू आमी हुबून वतना पळयला. तोय एक भंयानक अणभव. पूण वादळ सोंपता म्हण सर आमकां खबरच नाशिल्ले ते वादळ म्हण. मागीर कळ्ळां. फकत इतलें खबर आशिल्लें कितें तरी वेगळे जालां. हो सदचे सारको पावस न्हय. पूण ह्या पावसां उपरांत आमी आडसरां आनी माडाचे कळोव भरपूर खाल्यात. त्या दिसा पापा घरा नाशिल्लो. केन्ना तरी रातचो आयला अशें कितेंय संकट गांवांर आयलें काय पापा आमचो नासतालो, तो गांवचो जातालो. जांव मागीर तो हुंवार, वादळ जांव कोणाचें मरण. ह्या वेळार आई आमची सर्वेसर्वा म्हण ती सदांच म्हाका धीट दिसला. आमच्या घराक जनेलां नाशिल्लीं. सादारण पावस सोंपता म्हण सर घराक वयर सगळ्याक व्हड व्हड बुराक पडिल्ले आसतालो. ह्या बुराकांतल्यान दिसपी चंद्र पळोवंक तर म्हाका खूब आवडटाले. पूण परत जर दिवाळे कडेन पावस पडत जाल्यार परत कंटाळो. गळटी तर चालूच आसताली.

पावस म्हाका खूब आवडला तो येवप म्हळ्यार एक आव्हान कशें. तें चिप्प भिजप, त्यो पावसाच्यो वेगळ्यो वेगळ्यो तरा, ह्या तरा भितरल्यो दोन तरा म्हाका खूब आवडटात एक कसकसपी पावस. केन्ना भिजोवन वतां ते कळ सुद्दां ना. दुसरो उटंगाराचो पावस सात-आठ दीस थांब नासतना पडपी. तो पडकटच घरा भोंवतणी येवपी बुडबुडें (झरे) ते पळोवन एक वेगळीच उमेद जाताली. तेन्ना आमचें तें उदकांतलें घर. तशेंच गांव भर सगळे कडेन फकत उदक आनी उदक. त्या वेळार जावपी वेगळ्यो वेगळ्यो भाजयो, जातूंत शिरमंडळेची, पियूची, कुड्डूकेची, लुतीची, तेरो, सुरणा पालो, फुगें, अळमीं ह्या गांवठी भाजयांचो घोस्त सोडून शिरमंडळ. ही भाजी म्हाका केन्नाच आवडू ना. वास येवपी भाजी. तेच बराबर ह्या दिसांनी व्हळांक गांवठी नुस्तें चडटालें. कपडे उमळपाक गेल्ले कडेन आमी साडयेन लेगीत ह्या दिसांनी नुस्तें धरलां. ते भायर रातचें नुस्तें मारपाक वचप जातूंत व्हाळयो, थिगूर, सांगटां, धांडयो, चिखाले, मुळये, पिट्टोळ, कुल्ल्यो, कांसव लेगीत मेळटाले. हांव त्य वेळार सावें नुस्तें खावपीय न्हय आनी मारपीय न्हय. पूण पॅट्रोलमास धरपाक जांव जाळ धरपाक वचपाक मज्जा येताली. नुस्त्यांत मेळपी पोंटींग (सुंगटां) सामकीं सुवादाचीं. ते भायर सांजचें कोंगे पुंजावप, केन्ना कोणें मागल्यार ते विकप होय एक उद्देग. एक दीस आमी वाड्या वयली सगळीं भुरगीं अशींच कोंगे पुंजावंक गेल्लीं. ते दीस आयतार आशिल्लो. बारीक पावसय पडटालो. ताका लागून पसऱ्या कडेनय भायर कोण दिस नाशिल्लो. भोंवता भोंवता एक कुल्ली जमनीर पडिल्ली दिसली. आमीं सगळें ते कुल्ले भोंवतणीं जमलीं. आमचे मदलो एक पंगड म्हणटा ती मेल्या जाल्यार गौरेश रेवंडिकर म्हण आमचे वांगडा आशिल्लो एक भुरगो म्हणटा ती मरूं ना. बरोच वेळ बाचाबाची जाली. शेवटा ती मेल्या काय ना तें तपासपाचें थारलें आनी ताचेर पैज लागली. ती मेल्या जाल्यार आमी सगल्यांनी ताका पिपिरमिटां दिवप आनी ती जर मरूना जाल्यार ताणें आमकां पिपिरमिटां दिवप. तपासप कशें जाल्यार रेवंडिकारान कुल्लेच्या दोक्यां मर्दी बोट घालप. कुल्ली उखल्ली तरी हालना. दांगां उगडलीं ताणें बोट घालपाक कुल्लेन घट्ट धरलें. घे ताज्यो आड्डी. कुल्लेन बोट फोडलें. पसऱ्या कडल्यान लोक धांवट भायर आयले शेवटाक कुल्लेचो दोको मोडून फातरान धडोवन बोट सोडलां. तो परत केन्ना आमचे वांगडा कुल्ल्यांकय येवं ना आनी कोंग्यांकय. मागीर कितलो सो तेंप ताका आमी 'साला एक दोंगो कुल्ली ने गौरीश कोहहहह बना दिया' म्हण चाळयतालीं. इतलेंय जावन ताचे कडलीं पिपिरमिटां सोडलीं नात. आयज चिंतल्यार बाबड्याची काकूट दिसता.

इतलोय पावस येतालो जायते व्याप दर वर्साचे व्याप आसताले. पूण म्हजी आवय मात पावस भर हुस्क्यान न्हीद नाशिल्ली. वणटीचेर गळिल्ल्यान खंयची वणत रातची भुरग्यांचेर पडत हो तिका हुस्को आसतालो. ल्हान आसतना अशें जातलें हें आमकां कळ नाशिल्लें. फुडें कळूंक लागतकच कांय वर्सां आमीय हो अणभव घेतला. रातचे न्हिदतना अमूक ही वणत पडपाची शक्यताय व्यक्त करून फकाणां करून आमी तिगांय न्हिदतालीं. न्हीद लागतालीय बी. पूण हुस्क्याचीं. सकाळीं उठून सगळे सारकें पळोवन आयची रात सारकी गेली म्हण आमकां थाकाय मेळ्ळ्या. मागीर नवें नळ्यांचें घर बांदप जालें. घरांत वचपाक तें शिंवपाक सुरवात जाता म्हण सर हे वटेन पावस सुरू. ज्या दिसा आमी नव्या घरांत पावल दवरलां ते दिसा पोरण्या घराच्यो वण्टी मोडून पडल्यात आईन ते दिसा निवांतपणाचो स्वास घेतला आनी आमीय...

संपर्क : 9765187606





# यादींतलों पावस

सुफला रुद्राजी गायतोंडे

पावस हें उतर खूब सूखदिणें आनी तोय बी यादींतलो पावस बरोवपाक हांवें लिखणी हातात घेतलीं. याद जाली आई म्हाका भुरगेपणांत जनेलांत उबे दवरतालीं आनी पावस दाखयतालीं. हांव उमेदीन मळबांतल्यान पडपी पयलो पावस पळेतालें. माजोड्डें गांवचो पावस सामको वेगळो पावस. आयलो की हांवें धांवत येवन पावस झडटना खूब तोखेवप, जनेलांतल्यान हात भायर घालून पावसा थेंबे हातार घेवप मजा दिसताली ती शेजराचे घरार पावस पडटा तोच पावस पळोवपाक. भुरगेपणांतले शेजान्नीचे घरार पावस पडट्या म्हजेय घरार पडटा हे म्हाका खबरच नासताली. तागेर पावस पडटा तसो आमगेरूय पडूंक जाय अशें दिसतालें.

तितलोच पावसान काळोख जातगीर भंय दिसतालो तो आपूण येवचें पयलीं गडगड, जोगलां, वारें सांगातान हाडटा म्हूण जीव खासावीस जातालो. आत्याचे पांयार वा वेंगेत वतना पावसा खातीर मेळिल्लों मोग वेगळोच. जाय जाय सो पावस. काळ्या कुपांचो रंग पांघरून झडटना वाऱ्या वांगडा झडिल्लें ते कोंनशा वयले घोटणीचें गोड घोटां सगळ्यांनी झगडत पावसांत भिजत पुंजायतना आयिल्ली मजाच वेगळी. पावसांत भिजलां म्हूण आईलो खाल्लो मार आनी तुवाल्यान पुशिल्ली (माथे) तकलीं केस सुकयतां हांगा यो म्हूण घेंकणो घालत म्हऱ्यांत ओडींत काडिल्लो चिमटो पावसाक पळयतना दुखच नासलो. पावस येतना पयली आंबे, पणस, काजू दिवन धाडटा आनी मागीर काळोख करीत आपूण येता. तशेंच पयले पावसाचीं वाट पळयतां पळयतां पावस शिरशिरलो आनी मातयेचो वास आयलो की भुरग्यां यादींतल्या म्हाका आजून जागयता. यादीचे झोपाळ्यार पावसाची झलक घेतना खूब कितें आसा. म्हजे यादीचो पावस आंगणांत त्या भरिल्ल्या उदकांत पापाचे हाताक धरून कागदाची होडी सोडटनां खूब मजा येताली. पापान कागदाची होडी कशी सोडप हे भेस बरे शिकप दिले.

पयली ते चवथी मेरेन शाळेंत वतना हांव आनी म्हजे शेजारचो भुरगो एकाच सत्रेंत वतालीं. घरा कडच्यान सत्री फुलोवन ताचे घराचे दारांत हांव पावतगीर ताणें फोडुकलांत उडी मारीत म्हजे सत्रेंत घालून घेवप आज मेरेन ताची याद येता. एका वेळार हांव स्वता भिजतालें पूण ताका हांवें भिजयलो ना. शाळेंत येतना वतना हो कार्यक्रम आसतालो. पुण केन्नाच वाद, राग, शिण ना. पावसांत भिजतना ''येरे येरे पावसा तुला देतो पैसा'' हेच पद म्हणटालीं. वाटेर आनीकय हेर विद्यार्थी आसतालें. मजा येताली. मदींच भुरगीं पदां म्हणटाली. कविता गांवप, पूण म्हजी मस्ती वेगळीच. मदींच हांव दुसऱ्याचे हातांतली सत्री हालोवन ताका भिजयतालें वा रस्त्या वयल्या फोणकुलांत उडी मारून रस्त्या वयलें उदक शिंपडावप. दुसऱ्याक भिजवप. पावसांत भिजपाची उमेदच वेगळी. दुसऱ्यांक भिजोवपाचीय एक कलाच.

पावस दडकांनी येतालो आनी केन्ना केन्नाय पावळी गळपां पुरतोच पडतलो. पिरीपिरी पावसांत हांव आमचे वाड्या वयल्या चल्या वांगडा गड्ड्यांनी खेळटालें. कांय वेळां कोयणे बालीनी यादींतलो पावस खूब तरांचो, रंगारंगाचो, गांवांत पावसांत तळी भरतांत, ते वेळार भुरगीं जाण्टी पेंवपाक वतात. म्हजे माजोड्डें गांवांत गिरयां वतना वाटेर तळें लागतालें आनी हांव गिरयेच्यान येतना त्या तळ्यांत एक भुरग्यांचो हात वर आसलो. तळ्याच कुशींतल्यान खूब लोक वतालें. रेंदेर माडार आसलें. पूण तळें भरलां म्हूण ताका हात कोण दिना आसलो. म्हाका ताका वाचवप शक्य नासलें. पूण हांवें पर्स आनी सत्री एका फातरार दवरली. म्हजी साडी सोडोयली. एका पोत्तार व्हडलो फातोर बांदून ते भुरग्यां लागी उडोयली. दुसरें पोंत हांवें घट्ट धरून ताणें फातराक वेंग मारली. उटंगाराचो पावस सुरु जाल्लो. पूण दोगांयनी साड्यांची पोंतां सोडलीं ना. अशे तरेन तो भुरगो देगेर पावलो. लोकांनी मागीर ताचेर खूब उपाय करून ताका वाटायलो आनी चिप्प भिजिल्लें आंगार साडी गुटलावन सत्री फुलोवन हांव घरां गेलें.

खूब दीस पावस पडत रावतगीर एक एक दीस तरेतरेचीं खाणां करून भुरगेपणांत मेळटाली. मजा तीं गिळपाची. पणसाची केळी पानां वयली भाकरी, उकडिल्ले पणसां धोंगस, भाजिल्लीं तवसळी, केन्ना केन्नाय मेथयां पेंज (आटवळ), उकड्यां तांदळा हीट आनी कालवां तोंणांक, झणझणीत मीठ पोटांत भरून तणांत भाजिल्ले बांगडे आनी उकड्या तांदळां पेंज, ताल्ले वा सुकें बांगड्यां उकडे शितार वाडिल्लें हुमण. एकमेकांचेर फकाणां करीत मळब पिनिल्ल्या पावसाचे वावझडींत भिजत जेवतना आयिल्ली वेगळीच उमेद.

तोरां शिरो जिभेर ओडींत पेजेचो सर्र करून मारिल्लो भुरको. यादींतलो पावस आता ह्यो सगळ्यो यादी काळजांत माड्डीत आसा. पावसांत सगळ्यांनी घाल्ली धुमशेणां यादीचे पावसांत आजून भिजयतां आता ह्या वयार लेगीत हांव ते वय कशेच विसरना. हांव कॉलेजीक वचचे वेळार म्हाका भिजयत पिसायतालो हे वटेन ते वटेन जाय जाय सो. पावसाचो रागय येतालो. म्हाका म्हजे गोरेच फाटी वेली काळीच लांब केसाची विणी भिजयतालो तेन्ना ती विणी सुकोवंकच देड दीस वतालो. आनी म्हजी वीण सुकली काय पावस परत जाय दिसतालो. अशें पावसान म्हाका पिशें केलां. हो म्हजे वयाच वलो माजोड्डेंचो पावस.

बाजार करतना साडी न्हेंसून स्कुटरीन रेनकोट म्हळ्यार कापेंत घालून वतना सगळे आंग भिजोवपाक कापोतींतल्यान भितर सरपी आनी कुलकुलावपी तो पावस वेगळोच. चिप्प आंग आनी मनय भिजोवपी, ते वेळार घरा पावतगीर हांव कुडींत आंग सुकयतना कोणें तरी गरम गरम कांद्या भजी आनी खतखतीत च्या घेवन दारार आसचें अशें खूब वेळां दिसलें. पूण हे काम आवय बगर कोण करतां? तेन्ना तर रखरखत्या वतांत म्हाका दवरून आई संवसारांतल्यान गेल्ली.

त्या यादीचे पावसांत शेजारचे काकीन दिल्ली गरमागरम नॅसकाफे ह्या खीणांकय जीभेर आसा. नॅसकाफेचो घोट मारतना बल्कावांत पावसाचे मातयेचो वास आहाहा आजून मनभुलवणो.

केन्ना केन्ना पावसाचें दडकांनी भिजतना आनी हाण्या रांदनीचें उज्यांत पेजे वेळार जीबेक लावपाक घाल्लो सुको बोमील खारो बांगडो, यादीचो पावसात भिजयता.

एकदां स्कर्टब्लावजांतलें हांव रेल्वेंतल्यान देंवतनाच प्लॅटफॉर्मार पावसर म्हाका पावसान चिप्प भिजयलें.

खूब वेळा हांव सांज वेळा बेलबटम घालून सायकल चलयतना पावसाळी वारें सुटतालें आनी रेंव, कोयर, पालो उबून तकले वयल्यान वतालो ते वेळार सायकलीचीं पेदालां मारतना हालयत घोंलयतना केसांच्यो दोनय वीणयो फांटीं फुडें करतना आपल्यावेली दुसऱ्यांची नदर यादीचे पावसांत आजय भोंवरे खाता आनी ह्या खीणांत हांवच यादीचे पावसांत घुस्पल्ल्या वरी जाता.

सकाळी च्याचे कोप ओठांक लायत पापा वाड्या वयल्या भुरग्यां वांगडा सदांच पावसाची दर्यावेळेर (माजोड्डें) आमकां घेवन वतालो. वाहऽ थंय यादींतलो पावस वेगळोच तिरपो येवन घट्ट वेगेंत घेतिल्ल्या वरी वेंगायतालो. आपलो मोग दाखोवपाक मोगापोटी चिप्प भिजयतालो. आनी इतलो पिसावतालो यादीक उरपा खातीर कपडे भिजोवन आंग भिजयतना मन भिजातलें आनी पावसाचो मोग वाडटालो त्या वयार तिरपे नदरेक खूबच वालोर आसलो. हो पावस तिरपो येवन वेंगावन म्हाका सुखावपी.

पावस मायेचोच आसून यादीक उरचो-शें न्हंय. एकदा पापान जिती जिवी सुंगटां हाडिल्लीं आनी मसगां सांगो घालून आईक हुमण करपाक सांगलें. पावसान काळोख केल्लो. खंय धांवन करपाच्या कामाचो सदांच हक्कदार हांव. फाटल्या म्हस्काक खूब सांगो लागल्यात. चल बेगीन वचून हाड ही काळोख करून येवपी पावसा दडक येंवचे पयलीं म्हाका हाडून दी. हांव उमेदीन गेलें आनी थंय झाडा मुळांत पावतगच बडी हाडलीं ना अशी याद जाली. परत घरां वचून बडी कोगले हाडसर पावस झडपाचो. हांव तशेंच मसगांचें झाडार चडलें. हांव तेन्ना १४-१५ वर्सांचें. म्हजे वजनाक भंय ना. कारण हाचे पयलीं हांव बोरीर म्हस्कार, आंबाड्यार लाख वेळां चडलां म्हूण बरो विचार तकलेंत दवरून हांवें म्हजो जीव चडयलों आनी हीं पावसाची दडक नातरां पणटूरांक घेवन आयलीं. म्हजे वजनान कांय कशे कोण जाणां, झाडाची फांदी पेनली आनी हांव ते पावसाचें दडके वांगडा थापो कशें जमनीर पडलें. तो पावस मात आयजय यादींत आसा दुकीचो.

पावस जीर्णेंत वर्सान वर्स येता. पूण उरपाचो तो यादींतलोच उरतां. दर वर्सा पयले पावसाक मातये वास येताच पूण यादींतलो वेगळोच. जाय जाय सो....

संपर्क: 9823111917



# सुर्लाच्या देगणांत

डॉ. प्रकाश पर्येकार

वर्सुकी सैम भोंवडेची तयारी दोन म्हयन्या आदींच सुरू जाता. डिसेंबर म्हयन्यांत जावपी हे भोंवडेचे वेध सगळ्यांक लागिल्ले आसतात. गेल्या वर्सा समारोप सुवाळ्याच्या वेळार हांवें म्हणिल्लें, "मोर्लें आनी वाघेरी दोंगरार आमी जायते फावट गेल्यात पूण त्या परिसराची पांय भोंवडी आमचे हे संस्थे वतीन केन्ना करूंक ना."

हांवें मुखार म्हटलें, "तो परिसर आमी सगळे जाण लागींच्यान पळोवया. भुयपाल गांवच्या मुळसांतल्यान दोंगर चडुया आनी मागीर सालेले गांवच्या दोंगरा वयल्यान चलत वचून रातचे मोर्लें गडार रावूंया. दुसऱ्या दिसा सकाळी उठून वाघेरी या. दनपारचें जेवण थंय करून सांज मेरेन केरी गांवांत उतरुया." ते सैम भोंवडेक भुयपाल गांवचो सुर्याकांत गांवकार आमचे वांगडा आशिल्लो. ताणेंय हे म्हजे सुचोवणेक हयकार दिलो.

ह्या परिसरांतली पुर्वे कडली दोंगर रांग कशी आसतली काय? म्हाका ह्या दोंगर रानाचें सदांच कुतूहल दिसलां. तो परिसर खूब सुंदर आसा. 'रेडे घांटयेच्या दाव्या अर्दान आशिल्ल्या रानांतल्यान वयर चडप आनी खंय पावता तें पळोवप." होंडा ते वाळपय रस्त्यान प्रवास करतना जायते फावट म्हज्या मनांत हो विचार येवन गेल्लो. पूण ते भोंवडेचें आयोजन करपाक हांवें केन्ना फुडाकार घेतलो ना. "शेजारची व्हंकल कुड्डी." अशेंच जाता जायते फावट.

सुर्याकांताक फोन केलो. हे फावट रान भोंवडेक आपूण पावचोना अशें ताणें सांगतकच म्हजोय मूड गेलो. आतां करप कितें? निराश जावन उपकरना. एका शेनवारा सत्तरींतल्या पाली गांवांत गेलों. त्या गांवचे वयर पश्चीम दिशेक आशिल्ली दोंगर रांग खूब सुंदर आसा. वाघेरी दोंगराचीच रांग ती. थंयच्यान वयर चडल्यार कशें? थळाव्या एका वळखीच्याक वचून मेळ्ळों. "त्या दोंगराची म्हायती आशिल्लो एकलो आसा पूण कासादोर तो." ताणें सांगलें. हांवें म्हटलें, "चलता. तो काय आमचे वांगडा आर्म घेवन रानभोंवडेक येवचोना" ताका प्रत्यक्ष मेळपाचो दिसूय थारलो आनी हांव परतलों.

रानभोंवडी ह्या व्हॉटस्ॲप ग्रूपाचेर जाग्या विशीं म्हायती अपलोड केली. कांय दीस अशेच गेले. वेळसाची न्हंय ज्या वाठारांतल्यान सकयल देवून येता त्या देगणाची रान भोंवडी केल्यार कशी? मदींच विचार येवन गेलो. म्हजो भाव दादी (गणेश) कडेन चर्चा केली. मागीर प्रदीप गौंडळकाराक वचून मेळ्ळों. ताका त्या जाग्या विशीं सांगलें. ताकाय तें पटलें. फाटलीं कांय वर्सां आमी फकत न्हंयंतल्यान चलत वचपाचो उपक्रम केल्लो. आतां नव्या जाग्यार वचपाची तयारी.

२००३ वर्सा वनश्री हे संस्थेच्या विद्यार्थी वांगड्यांक घेवन हांवें ह्या वाठारांतली भोंवडी केल्ली. ते वेळार म्हादयचे हे उप न्हंयक उजव्यान घालून आमी सगळे चोर्ला घाटमाथ्यार पाविल्ले. मुखार दुसऱ्याच वर्सा पावसाळो सोपूंक दिगंबर सिंगबाळ आनी हेर दोन वांगड्याक घेवन हांव हेच न्हंयच्या देगणांत भोंवडेक गेल्लों. आतां तर प्रत्यक्ष ते न्हंयच्या पात्रांतल्यान चलत वयर वचपाची संद आपशींच तयार जाल्ली.

२३ आनी २४ डिसेंबर २०१७ अशे दोन दीस थारले. परत व्हॉटस्ॲप ग्रूपाचेर म्हायती अपलोड केली. मुखेल संयोजक म्हण प्रदीप आनी संयोजक म्हण रमेश गांवस हाणें जबाबदारी घेतली. दोन दीस आसा म्हटल्यार राजेंद्र गाडाचो फोन आयलो. "मान दुखता. बसपाक लेगीत जायना." हांवें म्हळें, "तुजें आनी तुजी धूव कैवल्याचें नांव दिलां." कैवल्या येता जाल्यार आपूणय येतां अशें म्हजी धूव शाल्मली हट्ट करून बसलें. पोरूं कैवल्या एकलेंच चली आमचे वांगडा आशिल्लें. ताच्या घरा वचून आयलों. ताचे मानेक आनी फाटीक दूख आशिल्ली. "दोन दिसांनी बरो जातलो तूं. येवपाचे तयारेक लाग."

तो बरो काय जालो ना. दोगांय येवंक पावलीं नात. प्रदीपाक फोन केलो. "अंदूं आमकां न्हंयंतल्यान चलून वच्चें पडटा. ट्रेक कठीण आसा. शाल्मलीक घेवं?" "घे. कितेंय जालें जाल्यार आमी आसात." कसल्याय संकटाक तोंड दिवपी मनीस तो. हांवेंय म्हज्या मनाची तयारी केली. कितें जाता तें जावं. शाल्मलीक वांगडा घेतलोंच असो निर्धार केलो. वर्स भर पयलीं बॅग आनी बूट हाडून घेतिल्ले.

म्हजे पयलींच ताणें आपलें बॅग भरून दवरिल्लें. चिंबलच्यान तार-सत्तरी आमच्या मूळ घरा वचपाक आमी भायर सरलीं.

इकरा वर्सांचें शाल्मली खूब खूश आशिल्लें. सकाळीं घरांतल्यान भायर सरतना दादीक म्हटलें, कार्तिकाक व्हरूया? तो णव वर्सांचो. काल तांच्या स्कुलाचें गॅदरींग आशिल्लें. तो आजून उठूंक नाशिल्लो. हाडांनी घटमूट तो. ताका वांगडा खंयूय व्हरपाक म्हाका भंय दिसना. ताची मम्माय ताका धाडपाक तयार जाली. इतल्यांत नकूळ वेळुस्कार आमच्या घरा पावलो. रोकडोच प्रकाश देसाय चिंबलच्यान हजर जालो. म्हणटा म्हणसर नकूळ धावस्कार दिवचलच्यान आपली ओपन जीप घेवन रेडी. नमन धावस्कराचो पूत अमन आनी ताचे भयणीचो पूत तन्मय केरकार, साहिल पावस्कार पारुं पयलेच फावट रानभोंवडेक आयिल्ले. नकुळ धावस्कार नमनाचो धाकटो भाव. ताणें आपले वांगडा आपल्या भावाच्या चल्याक हाडिल्लो. मनांत म्हटलें बरें जालें. आतां भुरग्यांची संख्या पांच जाल्ली. पांचूय भुरग्यांक एकामेकांचो सहवास मेळटलो. शाल्मलीक वांगडा घेवपाच्या म्हज्या निर्णयाक बळ फाव जाल्लें. आमी धावस्कराचे गाडयेन वाळपय गेले. थंय छोटा हत्ती तयार आशिल्ली. सगळें सामान तातूंत घातलें. आमीय गर्दी करून तातूंत चडले. अर्दा वरा भितर आमी वाळपयच्यान गोळावले गांवांत पावले.

गांवांतल्यान मातयेचो रस्तो दोंगराच्या मुळसा वटेन गेल्लो. सुरवातेक वाट अनवळखी दिसली. २००३ वर्सा आमी हे वाटेन गेल्ल्याची म्हाका याद जाली. शेतवड आशिल्ल्या ह्या जाग्यार थळाव्या लोकांनी आतां बागायत उबी केल्ली. एके वाटेन काजुची लागवड केल्ली. गाडी थांबली. सामान देवोन फुडले तयारेक लागले.

सगळ्यांनी एक, दोन, तीन... म्हटलें. सगळीं मेळून २२ जाण आशिल्लीं. तातूंत पांच भुरगीं. हांवें म्हटलें, ''अंदू भुरग्यांचो वेगळो पंगड करुंया. अमन तांचो मुखेली.'' चार पंगड केले. जेवणा खातीर हाडिल्लें सगळें सामान भायर काडलें. जितले मनीस तितले सामानाचे वांटे. सगळ्यांनी आप आपलीं बॅगां उक्तीं केलीं. आपणाक दिल्लें सामान भितर घातलें. रमेशान ताची नोंद दवरली.

आयोजन संस्थेचो बॅनर झाडाक बांदलो. मुखेल संयोजक ह्या नात्यान प्रदीपान येवकार दिलो. हांवें प्रास्तावीक केलें. संयोजक रमेश गांवस हाणें थळाव्या देवाक गाराणें घातलें. आमचे भितर कोणूय जाण्टो आसा ताका आमी उक्तावणाचो नाल्ल फोडपाक लायतात. हांवें म्हळें, ''ह्या ट्रॅकाक नकूल धावस्कार मुद्दम रजा घेवन राजस्थानच्यान आयला. ट्रॅकाचो नाल्ल फोडपाचो मान ताचो.'' नाल्ल फोडलो. नकूल वेळुस्कारान सगळ्यांक कातली वांटली. मागीर आमी चलपाचे तयारेक लागले.

तुळशीदास आनी गजानन आमकां मदत करपाक वांगडा आयिल्ले. हे फावट प्रदीपान थळाव्या वाठारांतलो कोण तरी आमचे वांगडा जाय म्हूण मलू पवणे हाका वांगडा घेतिल्लो. तो सगळ्यांचे मुखार चलतालो. कांय वाट चल्ले उपरांत न्हंयंत भितर सरले. न्हंयचें पात्र सुकून सडसडीत जाल्लें. वाटकुळे बारीक मोठे गुणे आमचें लक्ष वेधून घेताले. गेल्या वर्सा प्रकाश देसाय पयलेच फावट आमचे वांगडा ट्रॅकाक आयिल्लो. अंदू ताणें एस.एल.आर कॅमेरा घेतिल्लो. पोरुंचेकय अंदू तो चड उमेदी दिसतालो. ताणें आपलो कॅमेरा तयार दवरिल्लो. ''अंदूं हांव फकत ट्रॅकर न्ही, फोटोग्राफरूय...'' ताणेच ताची घोशणा केली. आतां सगळेच अधिकारान आपलो फोटो काड म्हण तेका मर्दी मर्दी फर्मायताले. एखाद्या बऱ्या जाग्यार पावतकच मर्दींच आड्डत तो फर्मायतालो. ''आरे रावात रे. तुमचो फोटो काडटां.'' सगळे मागीर आपआपली पोझ घेवन उबे रावताले. नकूळ वेळुस्कार, आनी रमेश गांवस हेवूय आपले कॅमेरे घेवन आयिल्ले. हांव आनी हेर कांय जाण आपल्या मोबायलान फोटे घेताले. सैमाचीं विविध रुपां कॅमेऱ्यांत बंदीस्त जावपाक लागिल्लीं.

पांचूय भुरगीं एके गतीन सगळ्यां मुखार चलतालीं. न्हंयतल्यान चलतना आपली नदर आपल्या पावलां कडेन आसची पडटा. कारण पात्रांत वाटेर ल्हान व्हड फातरूच फातर आशिल्ले. फाटीर सामानाचें वजें, हातांत कॅमेरा वा हेर कितेंय घेवन चलप तशें कठीणूच आसता. पात्रांत व्हांवतें उदक आसल्यार वाट आसा तशी आलतडच्यान पलतडीं आनी पलतडच्यान आलतडीं येवचें पडटा. पात्रांतल्यान चलपाक मेळना जाल्यार न्हंयची धड चडून रानांत रिगचें पडटा.

कांय वेळ चलतकच ल्हान उदकाचें कोंड मेळ्ळें. सगळे थंय थांबले, ''पा नुस्तें,'' शाल्मली त्या कोंडांत भितर पळयत थंयच बशिल्लें. अमन बारकायेन नुस्तें नियाळपाक लागलो. नुस्तें म्हणटकच पिसो जाता तो. आपल्या घरा कडेन आशिल्ल्या व्हाळांतलें नुस्तें तो फिशालकायेन धरता. नुस्तें धरपाचे साबार प्रकार ताका खबर आसात. हें उदकाचें कोंड कांय तेंपान सुकतलें. आनी मागीर ह्या बारीक बारीक नुस्त्याचेर आकांत येतलो. सुकणीं, जिवाणीं ह्या नुस्त्यांक खातलीं. उरिल्लीं उदका शिवाय तडफडून मरतलीं...

ह्या पात्रांतल्यान चलतना मर्दींच व्हांवतें उदक मेळटालें आनी मागीर सुकें सडसडीत पात्र. रानांत ह्या न्हंयाचें अशेंच जाता. ह्यो रान न्हंयो मर्दींच खळखळून व्हांवतात... अमुकच एका जाग्यार व्हांवतें उदक पात्रांतूच जिरता आनी कांय अंतराचेर परत भायर सरून व्हांवपाक लागता. सुक्या पानशिऱ्याक अशे तरेचीं थळां आमकां जायतीं मेळिल्लीं. जंय उदक आसा आनी थंय रेबो वा रेंव सांठवल्ली आसल्यार रानटी जनावरांच्यो पावूलखुणो दिश्टी पडटात. खुणो खंयच्या जनावराच्यो त्यो अभ्यासू व्यक्ती जुस्त वळखता. अशा ह्या ट्रॅका वेळार दाणयो वाग, गवो रेडो, मेरुं आनी हेर जनावरांच्यो पावूल खुणो आमकां दिश्टी पडल्यात.

उजवे वटेन कोण तरी रानांत काम करतात ताची आमकां सुलूस मेळ्ळी. कोण काय? अदमास घेवपाक न्हंयेच्या पात्रांतल्यान हांव आनी देसाय वयर चडले. पळयल्यार चार बायलां. तीं थंयचो परिसर

झाडून निवळ करतालीं. "फुडल्या आयतारा सिद्‌दाची समरादना आसा. तुमी येयात." गोळावले गांवच्या बायलांनी आमकां आमंत्रण दिलें. सिद्‌दाचें स्थान हांगाच्यान कांय अंतराचेर आसा म्हण तांच्यांनी आमकां सांगलें.

धा वर्सां फाटीं हे समरादने विशीं हांवें पयले फावट वाळपयच्या अतूल दांतये कडल्यान आयकल्लें. ताचे उपरांत म्हज्या इश्टां कडल्यान कांय म्हायती मेळिल्ली. पूण समरादनेक वचपाचो वा तें थळ वचून पळोवपाचो केन्ना योग येवंक नाशिल्लो. हें भोंवडेच्या निमतान तें देवस्थान म्हाका पळोवंक मेळटलें ह्या विचारान मनाक खोस भोगली. अर्दें वर चल्ले उपरांत आमी त्या थळार पावले. दोंगर पालसणार व्हडलीं खडपां आशिल्लीं. तांचे भोंवतणीं व्हडलीं व्हडलीं रुखां. आपलीं बॅगां न्हंयच्या पात्रांत दवरून सगळेच वयर चडून गेले.

सादारण साठ ते सत्तर मिटर उंचायेचेर हें सिद्‌दाचें स्थान आसा. ते गुहेच्या तोंडार उजव्यान एक मोटो पाशाणी शिल्पकृती रुपांतलो फातर उबो आशिल्लो. ताचेर सुंदर सैमीक कलाकृती तयार जाल्ली. वयर चडटनाच म्हजें थंय लक्ष गेलें. ते कलाकृतीचे सगळ्यांनीच फोटे काडले. भितर वचपाक फातराची तयार जाल्ली ल्हानशी पेड आसा. भितर गेलो काय उक्ती सुवात आसा. वयर मेरेन पसरिल्लीं झाडां आनी तातूंतल्यान दिसपी तें हय न्हयशें मळब. खूबच सुंदर... त्या पाशाणी फातरांत भितर दोन वटेन दोन सैमीक ल्हान माळयो आसात. उजवे वटेंतल्या त्या पाशाणी माळयेर गोळावली गांवच्या लोकांचो कळस आसा. दावे वटेन वयर चडपाक तयार करून दवरिल्ली शिडी आसा.

ह्या थळाचे सकयले वटेन दोन मोटे पाशाणा फातर लक्ष ओडून घेतात. ते दोनूय फातर एकाच आकाराचे. एकामेका मुखार उबे राविल्ले. शिपाय कशे. समरादने दिसा कळसाची पुजा जाता. थंय आशिल्ले भावीक देवा खातीर कितें ना कितें घेवन येतात. ते देवाक अर्पण केले उपरांत गांवचे गांवकार लोकांनी हाडिल्ले जिन्नस प्रसादाच्या रुपान सगळ्यांक वांट्टात. मागीर सगळे लोक सकयल निवळ केल्ल्या जाग्यार वतात. थंय सिद्‌दाक कोंबे मारतात. थंय सगळ्यां खातीर जेवण रांदतात. एक बरें थळ पळयल्ल्याचें समाधान. मनांत भितर रुतून बशिल्ली एक इत्सा हे रानभोंवडेच्या निमतान पुराय जाल्ली.

न्हंयच्या पात्रांतल्यान चलतना अकस्मात एक मोठें खडप मर्दी आडवें आयलें. फुडें गेल्ले कशे चडून गेल्यात? असलीं खडपां मेळटकच तांचे वयल्यान चडून वयर वचप तशें त्रासाचें आसता. खंय तरी ल्हानशें खांप पळोवन यत्नान पोट घस्टीत वयर चडचें पडटा. "आरे म्हाका मात्सो हात दी." जायते फावट वयर चडिल्ल्याक विनंती करची पडटा. तरी चडपाक जायना जाल्यार हातांतलें सामान आनी फाटी वयलें बॅग काडून ताचे कडेन दिवचें पडटा. कार्तिक, शाल्मली, अमन आनी पोट घश्टीत वयर चडलीं. तोखणाय दिसली ह्या भुरग्यांची. सुर्ला न्हंयच्या पात्रांतल्यान चलत वतना हांव पांय निसरून खडपाचे खांचींत शिरकून उरिल्ल्याची म्हाका अजून याद आसा. पांयाच्या तळ्याची कात खर्चटिल्ली. रगत व्हांवतालें. म्हजो पांय मोडलो आसतलो हे येवजून हांव ते वेळार थर्त भियेल्लों.

शाल्मली म्हजे वांगडा आसा. अशें कितें जालें जाल्यार सगळ्यांचो विरस जातलो. "पा हांव पडलें." कांयशें रडकुळें तोंड करून म्हाका ताणें आपलो उजवो हात दाखयलो. हांवें हात पळयलो. हातीचे वयले वटेन खर्चटून रगत किणेल्लें. मात्शें सकयले वटेन रगत निशेतालें. बॅगाचे उजवे वटेन लायिल्ली उदकाची बाटली चेपून उदक ओतिल्लें... हांवें ताका धीर दीत म्हटलें, "कांय ना. आतां तूं आनीक स्ट्राँग जालें." चलतना कार्तिक दोन फावट आनी तन्मय एक फावट पडिल्लो पूण तांकां कांयच इजा जावंक नाशिल्ली. शाल्मलीन फस्ट एड घेतिल्लो. म्हजे कडेन वखदां आशिल्लीं. ताचे भायर प्रदीपान वखदांची पोटली घेतिल्ली. शाल्मली हांवें दिल्ल्या धिराचेर नेटान चलपाक लागलें.

"पा. ह्या रानांत ह्यो केळी कोणें लायल्यात रे?" शाल्मलीचो म्हाका प्रस्न. वाटेक धा-बारा रानकेळीचें बेट धडेक तेंकून एका वेगळ्याच रानमुडांत उबें आशिल्लें. कळंबे बरेच वयर गेल्ले. एके केळीक तर मोठो घड जाल्लो. "लावंक नात. त्यो आपशींच रानांत जाल्यात." अजापीत जावन तें त्या केळींक पळयतालें. रानांत लेगीत केळी आसतात ही गजाल ताच्या मनात पयलेच फावट नोंद जाल्ली. सुको पानशिऱ्याक आमी असोच ट्रॅक केल्लो. ते वेळार अशींच केळीचीं बेटां आमी पळयल्लीं. आदल्या तेंपार लग्नकार्याक त्या केळींचे खोले हाडटाले म्हणपाचें हांवें म्हजे आवयच्या तोंडांतल्यान आयकल्लें. एदे मोठे संख्येन पयलेच फावट हांवें रानकेळी पळयल्ल्यो. त्या वेळार आमी एक घड मारिल्लो. ताचीं तीं केळीं खावपाक कशीं लागतात तें पळयल्लें.

दावे वटेन उंच पाशाणी खडी दिश्टी पडटाली. खडयेर खडी. खंयच झाड ना. ताचे वयलें करड सुकून गेल्लें. हांगाच्यान चडून वचप शक्य ना असो अंदाज हांवें लायलो. उजवे वटेन धडेर मर्दी एक उंच शिडमाचें झाड दिश्टी पडलें. ताचे खांदे अयस पयस मेरेन पातळिल्ले. आमी सगळेच त्या झाडाक कुतुहलान पळयताले. ह्या झाडाचेकय दोन-तीन पटींनी व्हड शिडमाचें झाड आमच्या घरा लागीं न्हंयचे तडीर आशिल्लें. वेगवेगळ्या रुतूंत त्या झाडाचे सौंदर्य पळोवपा सारकें आसता. अशीं कांय झाडां उदकाच्या जाग्यार चड करून न्हंयचे तडिरूच दिश्टी पडटात.

"आरे वझरो आसा. बेगीन येयात." कोणे तरी वयर रावून आड्डलो. वजऱ्याचो आवाज स्पश्ट आयकूंक येतालो. मनांत उत्सूकताय वाडटाली. दनपारां साडेबारांच्या अदमासाक आमी वजऱ्यार पाविल्ले. हांवें म्हटलें, "फुरफुरो वझरो" पन्नाशेक मिटरां वयल्यान तो वझरो फुरफुरत सकयल देंवतालो. उदक कमी आशिल्ल्यान ताचें उदक त्या पाशाणी धडेक घश्टत सकयल देंवतालें. "थळावे लोक तेका सिद्‌दाचो

वझरो ह्या नांवान वळखतात'' प्रदीपान म्हायती दिली.

सरभोंवतणी नदर मारली. पळय जाल्यार फुडें वचपाक वाट ना. तिनूय वटांनी पाशाणी उंच खडयेचे दोंगर. आतां हांगांच दनपारचें जेवण करूया. गजानन आनी तुळशीदासान चुली तयार केल्यो. उजो पेटोवन तोप चडयले. सामानाची वळेरी पळोवन रमेशान गरजेचें सामान मागून घेतलें. सगळेच रांदपाच्या कामांत हातभार लावपाक लागले. प्रदीप आनी वेळुस्कार वयर चडून वचपाक वाट मेळटा काय ना तें पळोवपाक दाव्या अदींतलें पालसण चडपाक लागले. ''वयर वचपाक वाट खंयच ना.'' कांय वेळान ते सकयल देंवले.

जेवण तयार जाल्लें. शीत, दाळ, भाजी, लोणचें आनी पापड. जेवण घेवन सगळे खडपांचेर बसपा सारकी सुवात पळोवन बसले. कांय जाणांनी घरा कडल्यान भुतयो हाडिल्ल्यो. दादीन चपाती आनी बांगड्यांचें धबधबीत हाडिल्लें. ''रानांत खूब भूक लागता.'' आमचे जाण्टे आमकां सांगताले. तशेंच जालें. सगळ्यांक सरांटून भूक लागिल्ली. रांदिल्लें आमी सगळें सोंपयलें.

जेवले उपरांत वेळ काडिनासतना प्रदीप आनी रमेश वाट सोदपाक वयर चडले. प्रदीपान वांगडा दोरी घेतिल्ली. वजऱ्याच्या माथ्यार वचून मुखार चलत वचपाचो आमचो प्लॅन आशिल्लो. बॅगां घेवन जितलें वयर चडपाक मेळटा तितले आमी चडले. चडटना एक फातर घडघडत सकयल आयलो आनी जुस्त मालू पावणेच्या कोंपराक घस्टून गेलो. सगळे भियेले. कांय जाण भियेवन सकयल देंवले. आमी मात खडपाचो आडोसो घेवन थंयच बसले. वाट मेळ्ळे शिवाय वयर वचप ना अशें थरलें. ''तुळशीदास ते धडेर वचून वाट आसा जाल्यार पळय.'' हांवें सुचयलें. तुळशीदास ते खडपाळ धडे वयल्यान मेळटा ताका धरीत धरीत वजऱ्याच्या माथ्यार गेलो, तो सकयल देंवलो आनी कांय वेळान वयर आयलो. ''वजऱ्याचे वयले वटेन लांब उदकाची चरी आसा. त्या उदकांतल्यान चलत गेल्यार वयर वचपाक मेळटलें.'' ताणें सांगलें. उदक खूब आशिल्ल्यान सगळ्यांक थंयच्यान वचपाक शक्य नाशिल्लें.

सादारण वर भर कश्टाचे परिश्रम केले उपरांत प्रदीप आनी रमेश थोडेशे निर्शेल्ले वरी जावन सकयल देंवले. ''आमी ह्या दोंगराच्या माथ्यार वचून येयले. वयर फकत खडयेची उंच उंच धड दिसता. गेले पासून जाल्यार आमकां ती धड चडप शक्य ना.'' रमेशान सांगलें. आतां सगळे निराश जाले. ही रानभोंवडी जी गजाल चिंतून आयोजीत केल्ली तें उद्दिश्ट पुराय जावंक पावलें ना. ते वटेन वचपाचें आतां आमी रद्द केलें. ''चलात सकयल देंवात'' वेळुस्कार आड्डलो. सगळे बसुनूच भोंको घश्टीत एका फाटल्यान एक करून सकयल देंवले. ''जंय उदक मेळटा आनी बरो जागो आसा थंय आयज आमचो राबितो.'' सगळ्यांक आयकूंक येता तशें हांवें म्हटलें. ''आमी येतना बसलेलो थंय जागो बरो आसा. उदकय आसा थंय.'' देसायान आपले मत उक्तायलें.

परत बॅगां फाटीर चडलीं. न्हंयंतल्या त्या फातरा वयल्यान देंवपाक लागले. देंगणांत काळोख दाटून येतालो. काळखा पयलीं ती सुवात आमकां मेळप गरजेची आशिल्ली. चलतां चलतां वाटेर कांय कडेन उदक मेळटालें पूण मना सारको जागो मेळ नासलो.

''आमी हांगा रावल्यार बरें.'' न्हंयच्या पात्रांतलें उदक जंय जिरता तें पळोवन दादीन मत मांडलें. धडेर वयर चडून पळयलें. कांय मेकळी सुवात दिश्टी पडली. ''हय, हांगाच रावूया आमी.'' सगळ्यांचें मत जालें. उदक लागीं आसा. न्हंयच्या पात्रांत रांदप आनी न्हिदपाक वयर जागो निवळ करप. बॅगां दवरलीं. सगळे बसपा न्हिदपा खातीर जागो निवळ करपाक लागले. गजानन, तुळशीदास आनी मालू हांणी रांदपा खातीर जागो निवळ केलो. चुली मांडल्यो. उजो पेटलो. चुलीर पयलो तोप चडलो तो च्यावेचो. रात भर परसो पेटपाक जितलीं लांकडां जाय तीं वांगड्यांनी एकठांय केलीं.

च्या घेतली आनी जेवणाचे तयारेक लागले. जेवण म्हणटकच आमकां याद येता ती चंदन गांवस हाची. तो रांदता बरो. वैयक्तीक कारणांक लागून तो पोरुं आनी अंदूय रानभोंवडेक पावलो ना. दादीचें म्हयन्या पयलीं ऑपरेशन जाल्लें. अंदू तो तसल्यांनीच आमचे वांगडा ट्रॅकाक आयिल्लो. ट्रॅकाक सदांच फुडें चलपी दादी हे फावट सगळ्यांच्या फाटल्यान चलतालो. दनपरांय तो चुली कडेन गेलो ना. आतांय एकलोच कुशीक बशिल्लो.

जेवले उपरांत आमी कार्यक्रम करतात. पंगड सकाळींच जाल्ले. दनपरां जेवतना कार्यावळीचें स्वरुप थारिल्लें. ह्या संदर्भांतली सुचोवणी पंगडाच्या मुखेल्यांक दिल्ली. हांगा एक अडचण आशिल्ली. पॅट्रोलमास दिवो रांदप्यां कडेन आशिल्लो. परश्याच्या उजवाडांत कार्यावळ करपाक कोणाची तयारी नासली. जेवतकच कार्यावळ करची अशें थारलें. जेवण करता आसतना पांचूय भुरगीं बॅटरेदिवो घेवन फातरा पोंदचीं कुल्लुकां धरतालीं. वीस-पंचवीस कुल्लुकां तांच्या हाताक सापडिल्लीं. रांदप्यांनी तांची चिली केली.

नुस्तें म्हणटकच अमन पिसावता. पोरूं आमचो राबितो होळडे गांवांत आशिल्लो. गोंय-कर्नाटक शिमे वयलो गांव तो. वांयगण शेताचे वयले वटेन राविल्ले आमी. अमन आनी हांवें शेताच्या उदकाच्या पाटांतले चिंगूळ धरिल्ले. कांदो आनी टमाट घालून चिंगळांचें आंबट-तीख केल्लें. आतां जेवण जाल्लें. जेवतना फाटल्या ट्रॅकाच्यो यादी आपसूंक ओंठार येताल्यो. पोरुं सोसूं नजो तितलें शीं आशिल्लें. हांगा मात आजून थंडी येवंक नाशिल्ली. गजालींक रंग चडिल्लो. तेच रुचीन सगळे मस्त जेवले.

(मुखार चलता)

संपर्क: 8390303546





# संगीतकार 'जयदेव' एकलो एकसुरो

उदय देशप्रभू

जिवीत हें सूखा-दुखाच्या उब्या आडव्या सुतांनी विणिल्लें वस्त्र अशें जरी म्हणटात, तरी कांय भाग्यवंतां खातीर हें वस्त्र भरजरी आनी मोव मोव आसता जाल्यार कांय अभाग्यां खातीर ते जाड जूड साका बशेन आसूं शकता. जायते मान सन्मान आनी जाणकारां कडल्यान शाबासकी मेळूनय 'जयदेव' सारको संगीतकार लौकिकां मेरेन आयलेल्या अपयशाक लागून जिवीताच्या निमाण्या पर्वा मेरेन एकमुळो दुर्लक्षीत जीण जगता तेन्ना नियतीच्या ह्या अजब संकेताची याद येता. विद्वत्ता आनी लोकप्रियता हीं दोगांय एकठांय नांदप निदान संगीत क्षेत्रांत तरी खूब कठीण आसता जावं येत. म्हणूनच घडये 'जयदेव'च्या पदरांत विद्वत्तेचें दान भरभरून उडयतना नियतीन ताची झोळी मात सदांच पीनकी दवरपाची वेवस्था केली.

उपेक्षा, अपमान, गरिबी तशी जायत्या जाणांच्या वांट्याक येता. हे बाबतींन एकलो 'जयदेव'च दुर्दैवी आसलो अशें न्हय. ताचें खरें दुर्दैव हें की, एके वटेन हेर लोकांक हेवो दिसपा सारके मान सन्मान ताच्या वांट्याक येत आसतना दुसरे वटेन दुर्दैवाचे भोगय ताका भोगचे पडल्यात. नेपाळ नरेश 'महेंद्र' हाणें 'मैती घर' ह्या सिनेमा खातीर संगित दिवपाक लागून 'जयदेव' हाका आफोवन ताचो भौमान केलो आनी हांगा स्वदेशांतल्या सरकाराक मात ताका निमणे मेरेन हक्काचे घर दिवप शक्य जालें ना. नेपाळी भाशेंतलो 'मैती घर' हो १९६६ वर्साचो सिनेमा यशवंत जाले उपरांत राजान प्रसन्न जावन 'जयदेव' हाका 'कितें जाय तें माग' अशें सांगिना फुडें 'जयदेव' हाणें कितें मागचें? विश्वास बसचो ना पूण ताणें राजा कडल्यान फकत वाघाचें चामडें तितलें मागून घेतलें. ते वटेन मध्यप्रदेश सरकारान ताका प्रतिशठेचो 'लता मंगेशकार' पुरस्कार जाहीर केलो आनी हे वटेन त्याच दिसा घरमालकान ताचे सामान घरा भायर काडून उडोवपा खातीर मानाय आफयले. एकाद्र्या सिनेमांतली ताची गाणीं खूब गाजचीं आनी प्रत्यक्षांत त्या सिनेमाच्या 'प्रिमीयर'शोचें आमंत्रण पासून ताका नासप अशेंय घडलां. 'हम दोनो' पासून 'नवचेतन'चो एक सिनेमा 'बर्मनदा' हांकां आनी दुसरो सिनेमा 'जयदेव' हांकां मेळटलो अशें थारिल्लें. 'कालाबाजार', बर्मनदा हांकां मेळ्ळे उपरांत, ते उपरांतचो 'गाईड', 'बर्मनदा'कूच दिलो. खरें तर थारिल्ल्या कबलाती प्रमाण तो सिनेमा 'जयदेव' हांकां मेळूंक जाय आसलो. पूण ही कबलात न्हयकारली. केल्ल्या कामाचे पुराय पयशे दिवपाचे सोडाच, वयल्यान थकबाकी मागली म्हूण फुडलो सिनेमा न्हयकारपी निर्मातिय ताका मेळ्ळे.

'जयदेव' हाणें अशे जायते अन्याय पचयले. पूण ताचें ताणें केन्ना भांडवल केलें ना. आनंदाचे खीण मात हेरां वांगडा वांटले 'लता मंगेशकर' हिणें १९७१ वर्सा दिल्लींत जवानां खातीर केल्ल्या 'संगीत रजनी'ची सुरवात आपल्या 'अल्ला तेरो नाम' ह्या पदान केली हाचो 'जयदेव' हाका केदो व्हड अभिमान. 'अल्ला तेरो नाम' सारकी अलौकीक रचना आपल्याक तयार करपाक जमली ना हाची खंत खास 'अनिल विश्वास' हांणीय बी 'जयदेव' हाचे लागीं उलोवन दाखयल्या.

'राष्ट्रपती'च्या हातांतल्यान मेळपी पुरस्कार जिवितांत एक फावट मेळ्ळ्यार पासून स्वताक धन्य समजुपी संगीतकार आसात. 'जयदेव' हाणें 'राष्ट्रीय पुरस्कार' 'राष्ट्रपती'च्या हातांतल्यान वट्ट तीन फावटी घेतला. 'रेश्मा और शेरा', 'गमन' आनी 'अनकही' ह्या सिनेमां

खातीर. सिनेमा संगितांत रागदारीचो बरो वापर केल्ले खातीर मेळटा तो 'सुरसिंगार संसद पुरस्कार' चार फावटी आनी मध्य प्रदेश सरकारचो 'लता मंगेशकार पुरस्कार' अशे कितले तरी पुरस्कार आनी मान सन्मान 'जयदेव' हाणें आपल्या एका कूडिच्या घरांत गर्दे मर्दी मांडून दवरल्ले. ''जो मील गया उसी को मुकद्दर समज लिया, जो खो गया मैं उसको भुलाता चला गया...'' ह्या ताणें स्वरबद्द केल्ल्या उतरांक तो ताच्या जिवितांत स्वताच न्याय दितालो.



दक्षीण आफ्रिकेत 'नैरोबी' हांगा ३ ऑगस्ट १९१८ ह्या दिसा 'जयदेव वर्मा' हांचो जल्म जालो. ताचो बापूय थंय 'स्टेशन मास्टर' आसलो. पिरायेच्या णवव्या वर्सा 'जयदेव' आपल्या कुटुंबा वांगडा 'लुधियाना' ह्या आपल्या मूळ गांवांत परतो आयलो. शाळेंत शिकता आतसनाच ताणें 'पंडीत बरकतराम' हांचे कडेन संगीताचे धडे घेतले. सिनेमाचें विशेश आकर्शण आशिल्ल्यान ताचीं पावलां 'मुंबय'चे दिशेन घुंवलीं. तकलेंत 'अभिनेता' जावपाचें पिशें भरिल्लें. ह्याच ध्यासाक लागून 'लाल-ए-यमन' ह्या 'फिरोज दस्तूर' नायक आशिल्ल्या सिनेमांत ताणें काम केलें. तेन्ना ताची पिराय आशिल्ली पंदरा वर्सां. वर्स आसलें १९३३. फुडल्याच वर्सा 'वामन अवतार' ह्या सिनेमांत 'नारदमूनी'चें काम ताणें केलें. ते वेळार ताचो पगार आसलो दर म्हयन्याक ३० रुपया. उपरांत 'हंटरवाली', 'काला गुलाब', 'मीस फ्रँटीयर' अशा स्टंट सिनेमांनी ल्हान ल्हान कामां केले उपरांत 'जयदेव' हांचे पांय जमनीर आयले. अभिनयाचें कांय खरें न्हय, हें वळखून तो 'लुधियाना' परतो गेलो. मुखार 'अलमोडा' हांगा 'उदय शंकर कल्चरल ॲकॅडमी' हातूंत ताणे उमेदवारी केली. कांय दीस रेडिओचेर पदां म्हटलीं. 'तंग आ चुके हैं कशमकश-ए-जिंदगी से हम' ही 'शाहीर लुधयानवी' हांची गजल 'जयदेव' हाणें पयलेच फावट रेडिओचेर गायली. ते उपरांत आवाजाचेर वायट परिणाम जावन ताका थंयच्यानूय कडसरचें पडलें. ताचे पयली 'उस्ताद अली अकबर खाँ' हांचे कडेन ताणें सरोदवादनाचे धडे गिरयल्ले. १९५१ वर्सा तो परतून एक फावट 'अली अकबर खाँ' हांचे कडेन 'सहाय्यक संगीतकार' म्हूण रुजू जालो. 'चेतन आनंद' दिग्दर्शीत 'आँधीयाँ' आनी 'हमसफर' ह्या सिनेमां खातीर 'अली अकबर खाँ हांचो सहाय्यक म्हूण ताणें काम केलें. दोनूय सिनेमे पडले म्हणून 'खाँ' सायबांनी मुंबयचो निरोप घेतलो. 'जयदेव' परतून एकदां बेकार जालो. ह्याच काळांत तो 'एस. डी. बर्मन' हांचे कडेन 'सहाय्यक संगीतकार' म्हूण रूजू जालो. १९५५ वर्सा 'चेतन आनंद' दिग्दर्शीत 'जोरु का भाई' ह्या सिनेमांत 'जयदेव' हाका संगीतकार म्हूण पयली संद मेळ्ळी. तातूंतलें 'सुबह का इंतजार कौन करे' हें लताचें आनी 'तेरी झुलकों से प्यार कौन करे' हें तलत चे पद जायत्या जाणांक याद आसतलें. पूण 'जयदेव' हाका नामना मेळ्ळी ती देवआनंद, 'साधना', 'नंदा' हांच्या 'हम दोनो' सिनेमा खातीर. 'नवकेतन' हांणी तांचेर दवरिल्लो विश्वास ताणें राखलो. तातूंतलो 'कभी खूद पे कभी हालात पे रोना आया' ही 'रफी' हांणी गायिल्ली गजल 'जयदेव'च्या प्रतिभेची झलक दाखयता. 'अभी न जावो छोडकर' सारकें म्होंवाळ जोड गीत तातूंतलें ते 'लायटर'चें संगीत , आनी दुराज्या कडल्यान 'बस अब न मुझको टोकना' ह्या वळीचेर 'आशा'न केल्ली करामत, आनी ताका मेळिल्ली रसिकांची दाद, हाची तोखणाय करपी लोक आयजूय मेळटात. 'लता'च्या 'अल्ला तेरो नाम' ह्या पदाक मुखार 'प्रार्थना' म्हूण दर्जो मेळ्ळो. तीच गजाल 'प्रभू तेरो नाम' ह्या भक्तीगीताची. 'हम दोनो' खातीर बेस बरी कामगिरी करून पासून 'नवकेतन' संस्थेन 'जयदेव' हाका दुय्यम स्थानूच दिलें. 'वीजय आनंद' हांचो 'बर्मन' बापूय-पुताचेर चड जीव आशिल्ल्यान 'जयदेव' कुशीक पडलो. ताका लागून पात्रताय आसूनय 'हम दोनो'क सर करपी सिनेमा ताच्या वांट्याक आयलोच ना. कांय प्रमाणांत अपवाद म्हूण 'मुझे जीने दो' ह्या सिनेमांतल्यान 'जयदेव' आनी साहिर' परतून एक फावट वांगडा आयले. 'जयदेव' हाणें हे फावट लोकसंगीताचो खूब वापर केलो. 'नदी नारे न जावो शाम' हें लोक संगीताचेर आदारीत पद खूब गाजलें. पूण चड गाजूंक नाशिल्लें. 'मांग में भर ले रंग सखी' हें पद 'आशा'न तिच्या आवडीच्या पदांच्या संग्रहांत (माय फेव्हरेट) घेतलां. लताचें 'रात भी है कुछ भीगी भीगी' मदल्या 'मध्यम मध्यम' हाचे वयली करामत आनी कोरस असामान्य.

तीस वर्सांचे कारकिर्दींत फकत ३६ सिनेमां, तातूंतले फकत दोन हीट. बाकी 'जयदेव' उरलो तो कांय मोजक्या 'काम सेनां' पुरतो. रोशन आनी मदनमोहन हांचेय सिनेमा पडले. पूण तातूंतलीं पदां तरी गाजलीं. 'जयदेव'च्या नशिबांत तेंय नासलें. 'किनारे किनारे' सिनेमा पडलो आनी तातुंतल्यो ताच्यो एकान एक सुंदर रचना दुर्लक्षीत उरल्यो. तातूंतच 'देख ली तेरी खुदाई' आनी 'जब गमे इश्क सताता है' ही पदां थोडी भोव लोकांक खबर आसात. 'जयदेव'च्यो अश्यो जायत्यो रचना लोकाश्रयाक पावल्यो नात. पूण म्हणून तो निराश जालो ना वा नाका जाल्ल्यो तडजोडीय ताणें केल्यो नात. 'मुझे जीने दो' उपरांत 'सुनिलदत्त' हाणें 'रेश्मा और शेरा' हो राजस्थानी फांटभुंये वयलो सिनेमा निर्माण करपाचो थारायलो. तेन्ना तातूंतल्या लोकसंगीत आनी शास्त्रीय संगीताचो वापर मन भुलावणो आसलो. 'लता'चें 'तूं चंदा मैं चांदनी' हें पद जाल्यार एक अजोड स्वरशील्पच जावन आसा.

ऋशीकेश मुखर्जी हांच्या 'आलाप' ह्या सिनेमा खातीर ह्या संगीतकारान आपली पुराय प्रतिभा पणाक लावन सुंदर चाली बांदल्यो. पूण सिनेमा शाप पडलो. 'अमिताभ'सारक्या सुपरस्टाराक पासून प्रेक्षकांनी उखलून धरलो ना थंय 'जयदेव' सारक्याची कितें गत! 'येसूदासान' गायिल्लें 'चांद अकेला जाए' हें पद मर्दी मर्दी आयकूंक

मेळटा. पूण तेणेंच गायिल्लें 'कोई गाता मैं सो जाता' आनी 'लता'न गायिल्ले 'काहे मनवा नाचे' हीं पदाय काळा वांगडा नाच जावप हें 'जयदेवा' परस संगीत मोग्यांचे दुर्दैव.

गैर फिल्मी संगीतांत 'जयदेव' हाणें केल्ली कारकिर्द खूब श्रेश्ठ आसा. ह्या मळार ताका स्वताच्या मना प्रमाण वावर करपाक मेळ्ळो. हिंदी साहित्या मदीं 'मानदंड' म्हणटात तो 'हरिवंशराय बच्चन' हांची 'मधुशाला' संगीतांत गूंथपाचो मान 'जयदेव' हाका मेळ्ळो. 'मन्ना डे' हांचे कडल्यान ताणें 'मधुशाला' गावन घेवन ताणें व्हड काम केलां. 'हरिवंशराय बच्चन, मन्ना डे आनी जयदेव' ह्या तांच्या मळा वेल्या तीन म्हारर्थींच्या एकवटान तयार जाल्ली 'मधुशाला' ही रेकॉर्ड हो एक चमत्कारूच म्हणू येता.

'आशा भोसले' हांच्या आवाजांत 'गीत आनी गझल' अश्या आठ गैरफिल्मी पदांची 'जयदेव' हाणें तयार केल्ली 'अन फरगेटेबल' ही रेकॉर्ड अशीच श्रेश्ठ जावन आसा. 'कभी नेकी भी उसके जी में' आनी 'शौक हर रंग रकीबे' ह्यो 'गालीब' हांच्यो गजलो, 'कभी शाख-ओ-सब्ज ओ वर्गपर' ही 'जीगर मुरादाबादीची' गजल आनी अस्वस्थ करून सोडपी 'मानी बदायूनी'ची 'कारवां गुजरा कीया, हम रहगूजर देखा किये' ही रचना, ह्याच रेकॉर्डीच्या दुसरे वटेन 'मिराबाई' आनी 'महादेवी वर्मा' हांच्या रचनां वांगडाच आसली. 'कबीर की बेटी' 'कमली'ची 'श्यामा नीकस गये ना मैं लडी थी' हें पिशें लावपी पद. आनी आयकतां आयकतां अंतर्मूख करून सोडपी 'जयशंकर प्रसाद' हांची कविता, 'तूमल कोलाहल कलह मैं' 'आशा' कडल्यान 'जयदेव' हाणें सुंदर रितीन गावन घेतल्या, हे कितल्या जाणांक खबर आसा?

शास्त्रीय संगीतांतली 'जयदेव' हांची जाण फकत पुस्तकी नासली जाल्यार तिका काळजाचो स्पर्श आसलो. लोकसंगीताचो ताचो अभ्यास जाणा जावपाचो आसल्यार फकत 'नदी नारे न जावो' हें पद आयकपा वांगडा 'पीतल की मोरी गुगरी' (दो बुंद पानी), 'जब से लगन लगाई' (रेश्मा और शेरा) ही पदां आयकूपाकूंच जाय.

सिनेमा संगीत उद्योगांतल्या गायकां वांगडाच शास्त्रीय संगीतां तल्या जायत्या गायकांचो सिनेमा संगीतात वापर करपाचें कसब 'जयदेव' हांचें, कौतुक करपा सारकें. 'पं. भीमसेन जोशी' हांचे कडल्यान 'अनकही' सिनेमा खातीर गावन घेतलेलीं दोन भक्तीगीतां, तांच्या ताकदीची वळख करून दितात. 'परिणय' ह्या चड गाजूंक नाशिल्ल्या सिनेमा खातीर 'शर्मा बंधू' हांच्या आवाजांत केल्लें 'सूरज की गर्मी से' हें भजन, गायिका 'फैय्याज' हांणी 'आलाप' सिनेमा खातीर गायिल्ले 'आ जा साँवरीया' हें 'गमन' सिनेमाचें पद. अशी पदां त्या त्या गावप्यांच्या ताकदी वांगडा 'जयदेव' हांची संगीताची ताकद लोकां मुखार हाडटात. रुना लैला, शाया गांगुली, पिनाज मसानी, अनुराधा पौडवाल ह्या गायकां कडल्यान पदां गावन घेतना ताणें कसलोच अभिनिवेश बाळगिल्लो ना. वा कोणाक शह दिवपाचो विचारूय मनांत हाडलो ना. म्हणुनूच 'येसूदास', 'सुरेश वाडकर', 'भूपेंद्र', 'हरिहरन' ह्या अर्विल्ल्या गायकां कडल्यान अस्सल गायकीची वळख करून दितना तांणी 'जयदेव'कडेन गायिल्ल्या पदांचो उल्लेख करचोच पडटलो. 'जयदेव' सदांच म्हत्व दितालो तो सशक्त अशा काव्याचेर. उथळ पदांच्या वांट्याक तो केन्ना गेलोच ना. पद हें अर्थान भरिल्लें आसपाक जाय असो ताचो आग्रह आसतालो. म्हणूनच तर 'साहिर'सारक्या प्रसिद्ध कवी वांगडा न्याय शर्मा सारको नवो कवीय तांका लागींचो दिसता. तीच गजाल 'हरिवंशराय बच्चन' हांचे 'कोई गाता मैं सो जाता' 'आलाप' सिनेमांतलें, 'सुदर्शन फकीर' हांचें 'दुरियां सिनेमांतलें 'जिंदगी में जब तुम्हारे गम' हे पद, 'पद्मा सचदेव' हांचें 'ये नीर कहां से बरसे' हें 'प्रेम पर्वत' सिनेमांतलें पद. अश्या विंगड विंगड कवींक तांणी आपणायल्यात.

आपलें संगीत लोकांच्या कानांनी सदोदीत आदळत रावचें हाचे खातीर धडपड करपी आनी भारभार सिनेमा मेळचे म्हणून कसलेय मार्ग स्वीकारपी संगीतकारांचे आयचे उद्योग पळयल्यार 'जयदेव' सारको कोण एक संगीतकार ह्या मळार आसलो हाचेरूय कोणाचो विश्वास बसपाचो ना. सगळ्याच मळार 'जयदेव' निमाणे मेरेन 'एक अकेला'च उरलो. सामको ६ जानेवारी १९८७ ह्या दिसा मेरेन ज्या दिसा ताका मरण आयलें.

*चत्राय: 'सुनील देशपांडे' ह्या पत्रकाराच्या मराठी लेखाचो कोंकणी अणकार.*

संपर्क : 9551955523

# लक्षणां

कृ. म. सुखठणकार

'लक्षण' हें मूळ संस्कृत उतर जें लक्ष आनी क्षण ह्या दोन उतरां पासून तयार जालां. संस्कृत म्हणून एक भास आशिल्ली तातुंतल्यान हें उतर आयलां. कांय जाणांनी संस्कृत भाशेचें नांव आयकुना जातलें देखून सामकें फोडून सांगलें. आतां घरा कडेन केन्नाय देवस्पण बी आसल्यार हे भाशेचीं कांय उतरां भटाच्या तोंडांतल्यान आयकूंक मेळटात. हांवें कांय उतरां म्हणलें कारण अर्दीं उतरां ताच्या तोंडांतूच उरिल्ल्यान आमकां तीं आयकूंक मेळनात. आसूं. शाळेंत तुमी मन लावन शिकिल्ले आसत जाल्यार व्याकरण शिकतना 'लक्षण' हें उतर खूब फावटीं तुमच्या कानार आदळिल्ल्याची तुमकां याद जातली. याद जायना जाल्यार सोडून दियात. 'शब्द के दो लक्षण बताईये' असले प्रस्न बी दोन गुणां खातीर आसताले अशें म्हाका तरी याद जाता. हाचे वयल्यान हांव मन लावन शिकतालों अशें तुमी म्हणूं येता. 'प्रत्ययलोपे प्रत्यय लक्षणं' असो संस्कृत व्याकरणांत संदर्भ सांपडटा. हाचो आमकां फुडारांत कांय उपेग जायना म्हणटकच ताचेर आमी चड उलोवचें न्हय. व्याकरणांत शिकिल्ले समास, स्वर, व्यंजनां, संधी, उभयांन्वयी अव्यय, शब्दयोगी अव्यय, केवल प्रयोगी अव्यय बी. फुडें जिणेंत, आमचे सगळे अवयव खिळखिळे जाय मेरेन हांची आमकां कितें उपेग जाता म्हाका खबर ना. आसूं आमी लक्षणां विशीं उलयताले. आमी 'लक्षणां' हें उतर नेगेटिव्ह अर्थान वापरतात असो म्हजो अभ्यास सांगता. भुरगें जल्माक आयले बराबर तें रडून जशें आवय बापायची न्हीद पिड्डेर करपाक लागलें ते बराबर बापायक ताचीं लक्षणां धड दिसनात.

''हो येन्नाच्यानूच आमची न्हीद पिड्डेर करपाक लागला, हाचीं लक्षणां म्हाका धड दिसनात. फुडें कितलीं जागरणां करपाक लायतलो देव जाणा!'' - बापूय (कूस परतून भुरग्याक खांदार घालून थापटीत पासयो मारपी आवयक म्हणटा). ''आ री आ जा, निंदिया तू ले चल कहीं, उडन खटोले में, दूर दूर दूर यहाँ से दूर' म्हणून भुरग्याक न्हिदोवपी बापूय फकत सिनेम्यांतूच सांपडटात. ''ओगी न्हिदा थंय! ताका न्हिदयतां हांव. एक दीस जागरण करचें पडल्यार तुमकां इतले त्रास, णव म्हयने पोटांत घेवन भोंवचें पडिल्लें जाल्यार कितें करतले आशिल्ले देव जाणा! न्हीद रे बाबुल्या''. - मातोश्री.

फुडें बाबुलो व्हड जावन बापायलीं उतरां खरीं करता तें सांगपाक घाडी नाका. 'मुलाचे पांय पाळण्यात दिसतात' ही म्हण अशीच जागरणांतल्यानूच तयार जाल्या अशें सावळो म्हणटा. विसाव्या शेंकड्यांत जल्माक आयिल्ल्या चडश्या भुरग्यांचीं लक्षणां पळोवन तांच्या जल्मदात्यांनी ते फुडारांत राखणे जातले अशें भाकीत केल्लें. तेन्ना गोरवांचो आंकडोय चड आशिल्लो. घरा फाटल्यान गोठे आशिल्ले. तांकां खावड घालपाक तण, करड मुबलक प्रमाणांत मेळटालें म्हणटकच आमकां आमी फुडारांत राखणे जातले हें आयकतकच व्हडलें वायट दिसनासलें. कारण तातुंतल्यानूच करियर घडोंव येतालो. पयलेच खेपे नापास जातकच म्हज्या बापायन मे म्हयन्यांत, मुदांसाक आयिल्ल्या मुंबयकारां सामकार, 'ह्याची लक्षणं धड दिसत नाही, हा मोठेपणी बहुतेक राखणा होणार' अशी भविश्यवाणी केल्ली. हें आयकले बराबर म्हज्या दोळ्यां सामकार काळोख बी आयलो ना. म्हज्या दोळ्यां सामकार, हांव वडा खाला सावळेक बसलां, आशिकुशीक धश्ट पुश्ट गोरवां चरतात, म्हजे माथ्याक हांवें मोरपीस बांदलां (कित्याक तें कळ्ळें ना, सोड). जें चित्र रुपेरी पड्ड्यार दिसलें तें तुमकां सांगतां. अचकीत म्हजो मूड चेंज जाता आनी हांव बासरी वाजयतां. पयसुल्ल्यान संध्या तकलेर एक ल्हानशी पोटली घेवन मोडत मोडत येता...

''धनी, सकाळी सकाळी उपाशी पोटी गुरांना घेऊन बाहेर पडलात. आता भाकरीचा तुकडा खाऊन पोटाची खळी भरा बरं.''

''अगं वेडे, बाहेर निघताना तुझा चेहरा पाहून माझं पोट केव्हांच भरलं, कसं कळत नाही तुला?''

''ईश्श्य! किती छान बोलतात हो तुमी! ऐकत रहावस वाटतं.''

''मी युगान युगे राखणा होऊनच तुझ्या आयुश्यात येईन बरं.'' अशें म्हणून हांव बासरी वाजयतां आनी संध्या म्हज्या खांद्यार तकली दवरून आयकता. ते वटेन सगळ्यो गायो म्हजी बासरी आयकून दुदाच्यो धारो सोडटात. अशें दृश्य दोळ्यां सामकार येतकच कोणाक राखणो जायन दिसचें ना! ताचीं लक्षणां मागीर कसलींय आसूं. आतां म्हजे वांगडा शिकप्यां भितर फकत म्हज्याच जल्मदात्यांनी, हांव राखणो जातलों, अशी भविश्यवाणी केल्ली अशें कोणेंच समजुचें न्ही. फुडारांत राखणो जावप्यांचो आंकडो बरोच व्हड आशिल्लो, कोंत केल्यार घडये गोरवां कमी पडूं येतालीं कारण सगल्यांचींच लक्षणां राखणो जावपाचींच आशिल्लीं. आमचो सावंत, मोठ्या कश्टान पदवीधर जालो. ताका पशु संवर्धन खात्यांत कारकून हे पदा खातीर आफोवणें आयलें. मुलाखतीक गेल्ले कडेन ताका तांणी साचेबंद प्रस्न विचारलो...

"Why do you feel you should join Animal Husbandry department?"

"See, when I was a child, looking at my characteristics, my parents said that I will become a protector of cattle. So I feel that I am suitable candidate for this department. If given a chance I will prove with my hardwork and diligence that your faith in me is not misplaced. Yours faithfully, Sawant". निमणें वाक्य ताणें आपल्या अर्जांतल्यान घेतिल्लें पशु संवर्धन खात्याक घडये

राखणे नाका आशिल्ल्यान सावंताक परत आफोवणें आयलें ना. आसूं.

सतपुरुश जल्माक येवंचो आसल्यार ताचीं लक्षणां ताका पाळण्यांत घालचे आदींच ताचे आवय बापायक दिसतात. चड करून आवयक. तिचे सपनांत येवन, 'तुजे पोटांत हे जगाचो उद्धार करपी वाडटा' अशें कोण तरी येवन सांगता. तो कोण येवन सांगता ताका म्हाका एक दीस मेळपाक जाय. गोंयां हालीं असले सतपुरुश जल्माक येंवक नात आनी फुडारांतूय येवचे नात अशीं लक्षणां दिसतात. तरी आसतना खंयचेय भगिनीक हांवें वयर सांगलां तशें सपन पडत जाल्यार म्हाका मुजरत कळोवंचें. हें सपन पडले बराबर भावी माता रोखडीच उपास तपास सुरू करता आनी तो जगाचो उद्धार करपी महात्मो बरो सो दीस वा तिथी पळोवन जल्माक येता. हे दीस, हिंदू पंचांगा प्रमाण शुद्ध पंचमी. शुद्ध दशमी बी आसतात. कशें तांकां हें गणीत जमता खबर ना! आमचे सारके आत्मे सोडून काडिल्ले वरी, अमाशेक, शेळे नक्षत्राक जल्माक येवन आवय बापायक खाराक घालतात. कारण भट रोखडोच होम घालून शांती बी करपाक सांगता. कोणाची शांती करता हांव नकळों! मागीर बोल्साक पडिल्लो खार जल्मदातीं कशींच विसरनात...

''हाचें लक्षणूच खोटें! दुश्काळांत तेरावो म्हयनो कसो जल्माक आयलो. नाशिल्ल्यांतले अडेश्शीं रुपया घालून शांती करची पडली. फाटल्या जल्मांत भटाचें देणें आशिल्लो दिसता!

हीं उतरां म्हाका लग्न जावन दुसऱ्या दिसा सत्यनारायणाचे पुजेक जोडप्यान बशिल्ले कडेन आयकुचीं पडलीं. हाका लागून बाबुली भटान सांगिल्ले सत्यनारायणाचे कथेंत पसून लक्ष लागलें ना.

आमचें श्रद्धास्थान समर्थानी, मुर्खांक वळखुपाक सोंपे पडचें देखून दासबोधांत मुर्खांचीं लक्षणां सांगल्यांत. तांचो हेतु बरो आशिल्लो हातूंत मात्तूय दुबाव ना. त्या काळांत मुर्ख सोदून काडपाक घडये कश्ट पडटाले जांवये. आज देवा दयेन तशे कश्ट पडनात. हीं मुर्खाचीं लक्षणां बरयतना कल्याण स्वामीक कंटाळो आयला आसूये कारण निमणें तांणी 'लक्षणे अपार असती परी काही येक येथामथी. त्यागार्थ बोलिलें श्रोतीं क्षमाकेलें पाहिजे' अश्यो वळी घालून तो समास सोंपयला. ह्यो वळी खऱ्योच समर्थांच्यो काय कल्याण स्वामीच्यो हाचेर म्हजो अभ्यास चालू आसा. पूण मुर्खांचीं लक्षणां सांगतना समर्थांनी म्हणून अतीच केलां. हीं लक्षणां जर वाचत जाल्यार आमचे फुडारी, देसाचे भाग्यविधाते सगळे शंबर प्रतिशें मूर्ख थारतले. हाचो अर्थ, गोरे सायब वतकच इतलीं वर्सां ह्या देशाचेर मुर्खांनीच राज्य केलें आनी आमी करपाक दिलें? समर्थांचें म्हणून नाका जाल्लेंच! समर्थांनी उत्तम लक्षणांय सांगल्यांत. तीं वाचतकच म्हाका हासचें काय रडचें तेंच कळ्ळेंना. कलियुगांत हीं उत्तम लक्षणां आशिल्लो मनीस हे धतीर आसा वा जावन गेलो अशें म्हाका तरी दिसना. 'आळसें सुख मानूं नये, बहुत अन्न खाऊं नये. बहुत निद्रा करूं नये, धुम्रपान घेऊ नये. उन्मत्त द्रव्य सेऊंनये, केल्याविण सांगों नये आपला पराक्रमु' अश्यो कांय अशक्यप्राय गजाली समर्थांनी उत्तम लक्षणां भितर सांगल्यात. हांवे थोडींच जीं लक्षणां वाचलीं तीं तुमचे मुखार दवरलीं. हांवें जरी म्हणलें की अशीं उत्तम लक्षणां आशिल्लो मनीस हे धरतरेचेर नासतलो तरी तुमी तें चड मनार घेवंचें न्हय. हातुंतलें एक जरी लक्षण चुकून तुमचे भितर दिसलें जाल्यार तुमी दासबोध घेवन संपूर्ण समास वाच्चो आनी हीं लक्षणां तुमचे आशिकुशीक आशिल्ल्या मनशां भितर दिसचीं हे खातीर थोडे कश्ट घेवंचे अशी म्हजी नमळायेची मागणी.

आमकां मनशां भितरले बरे गूण केन्ना दिसनात. पयलीं दिसतात ते तांचे भितरले अवगूण. लग्न जांवचे पयलीं नलू आमगेर रावपाक आयिल्लें तें (ताचें) लग्न जाय सर उरलें. तें आमगेर आसा सर घरचेंच कशें वावुरलें. म्हजो लेंस धरून सगळ्यो गजाली तें सांबाळटालें म्हणल्यार जाता. ताच्या लग्ना कडेन गळ्यांत माळ पडटकच म्हज्या दोळ्यांत आयिल्लीं दुकां पुसपाक लेंस सोदीत जाल्यार बोल्सांत लेंस ना अशी स्थिती. तर, आईच्या लक्षांत ह्यो गजाली आयल्यो नात पूण नलू पांव घेवपाक पदेरा म्हऱ्यांत (आंतोन) वता थंय चडूच टायम काडटा हें तिका खटकलें... 'आरे, नलूचीं लक्षणां बरींऽऽ लागनात आं म्हाका! ताका व्हरून पावय तूं. बशिल्ले कडेन अपसरण नाका आमचेर', तिणें म्हाका शिटकायलो. आज म्हाका, नलूचें आंतोना वांगडा जमिल्लें जाल्यार तोर्राद बरे भाजिल्ले पांव तरी मेळटले आशिल्ले अशें ओगीच दिसता.

नलू बाबतींत घडलां तशेंच म्हजेय बाबतींत घडिल्लें. आमगेर एक दीस शिरी मामा आयिल्ले कडेन ज्यूस्त च्या करपाक साखर ना जाली. आईन म्हाका बरडाल्या पसऱ्यार साखर हाडपाक धाडलो. नाबीर ज्यूस्त संध्या आशिल्लें. बाल कवीची 'औदुंबर' कविता ताका मातशी जड वताली. हांवें 'औदुंबर'आ विशीं सविस्तर म्हायती ताका दिली. दत्ताच्या देवळा कडेन हें झाड कशें जाता तें ताका सांगलें. दत्तजयंतेक बरड नरसोबावाडीक वता. तेन्ना थंय औदुंबराक भेट दी हेंच सांगलें. थोडक्यांत, हांवें जमता तशें 'औदुंबर' ताचे तकलेंत घालो. येतना, बाल कवीच्यो 'कोठुनी येते मला कळेना, उदासीनता ही हृदयाला?' ह्यो वळी आपशींच ओंठार आयल्यो. त्यो, हांव येतलो आनी च्याचो घोंट ताळ्यार पडटलो, हाची वाट पळयत बशिल्ल्या शिरी मामाच्या कानार पडल्यो.

'बाय, हाचीं लक्षणां धड लागनात आं, येन्नाच्यानूच हाच्या हृदयाक पिडा मारपाक लागल्या', ताणे आईक म्हणलें, 'हे धनया, कवीचें मन हाका केन्नाच कळचें ना. च्या टायमार मेळ्ळो ना देखून तो कितें उलयता तेंच ताका कळना, ताका माफ कर' अशें हांवें म्हणलें आनी कुडींत गेलों. हेंय शिरी मामान आयकलें.

''बाय, कवी मनां बी भिकेचीं लक्षणां आं. एसएससी जाले बराबर हाका खंय तरी चिकटावचो पडटलो. नाजाल्यार हो, खादी सदरो घालून, खांद्याक शबनम बोटवो लावन, खाड वाडोवन फिरतलो!''

''खरें रे बाबा तुजें! तूंच चिकटाय नाजाल्यार खणीर मास्तर म्हणून तरी लाय''. - आई.

आईन जें म्हणलें तातूंत तिचें चुकलें अशें हांव म्हणीना. तेन्ना

खाण वेवसायूय तेर्जीत आशिल्लो. वात्स्यायनांत, कामसूत्रांत बायलांचीं अकरा लक्षणां सांगल्यांत. हीं लक्षणां आशिल्ले बायले कडेन जर लग्न जायत जाल्यार ताचे सारकें सूख ना अशें म्हणलां. हांवें आनी दत्तान लग्ना आदीं कामसूत्राची हिंदी आवृत्ती हाडिल्ली. तातूंत 'कामसूत्र के अंतर्गत लिखीत उन लक्षणों को जानते हैं जो अगर किसी महिला में है तो उससे विवाह करना फलदायी साबीत हो सकता है'. मागीर आमी लक्षणांचेर धांवती नदर मारली. 'ऐसी महिला अब तक ब्रह्मदेव ने नही बनाई है, वात्स्यायन साहब' असो दत्तान आपलो अभिप्राय दिलो. आमकां हें कामसूत्र खंयचेच बाबतींत उपकाराक पडलें ना. मागीर हिंदी सारकी कळना म्हणून हाडिल्ली मराठी आवृत्ती हिच्या हाताक लागली. 'हें आनी बाये कितें?' अशें म्हणत हिणें ती हांडो पेटोवपाक घाली. समुद्रशास्त्रानुसार मनशांची कांय शारिरीक लक्षणां सांगल्यांत. ताचे वयल्यान मनशाची वळख जावपाक मजत जाता. गौतम बुद्धा भितर अशीं बत्तीस लक्षणां सांपडटात अशें म्हज्या वाचनांत आयलां. तातूंतलें एक लेगीत लक्षण म्हजे भितर ना हें म्हाका ताचेर खोलायेन अभ्यास आनी विचार करतकच उमगलें.

दुयेंत मनीस जेन्ना दोतोरा म्हऱ्यांत वता तेन्ना दोतोर, ताका जाल्लें दुयेंस, ताच्या लक्षणां वयल्यान थारायता. हाका सायबांचे भाशेंत डायग्नोसीस म्हणटात. खुबदां हीं लक्षणां दोतोराच्या लक्षांत न आयिल्ले कारणान दुयेंतीक चुकीचें वखद पडटा आनी दोतोरान तयार केल्लें नवें एक दुयेंस दुयेंती भितर तयार जाता. मागीर तो दुयेंत, दोन दुयेंसां खातीर, त्याच दोतोरा कडल्यान वखद घेता. केन्नाय फार्मासींत गेल्यार एकूच दुयेंत दोन दोन रेसेदां घेवन उबो आसता तो हेच खातीर. तुमी जें कितें सांगतात तेंच आयकून दोतोर तुमच्या दुयेंसाचें निदान करता. हेच खातीर दोतोरा पासून कांयच लिपोवंक जायना अशें म्हणटात. फाटीं आमच्या वाड्यार सगळ्यांक सोलार सुंगटां खावन भायर जावपाक लागलें. दोतोर रायकाराचे कोंसुल्तोरी भायर घेऽ लायन! हातूंत म्हजोय आसपाव आशिल्लो पूण म्हाका सोलार सुंगटां खाय नासतना भायर जावपाक लागिल्लें. म्हजें बाबतींत सगळेंच विचित्र शें जाता. म्हजो नंबर आयलो तसो हांव भितर गेलों.

दोतोर रायकर : कितें रे? कितें जालां?

हांव : दोतोर, भायर जाता.

दोतोर रायकर : सोलार सुंगटां खाल्लीं मुरे?

(दोतोरान म्हजे जापेची वाट पळय नासतना रेसेद बरोवपाक सुरू केलें).

हांव : ना दोतोर. काल आमचो देवळा कडेन बिरेस्तार म्हणटकच उपास केल्लो. फकत प्रसादाचो दोणो खावन न्हिदिल्लों.

दोतोर रायकर : म्हणटकच? अशें कशें जालें तर?

हांव : हांवूय तेंच म्हणटां.

दोतोर रायकर : सामकें उदकशें भायर जाता?

हांव : हय दोतोर बसपाक लेगीत टायम गावना.

दोतोर रायकर : कलर कसलो?

हांव : दोतोर, रातचें जाल्लें. भायर घोग्यांनी पावस पडटालो.

दोतोर रायकर : वास बी मारता?

हांव : पावस पडिल्ल्यान मातयेचो वास येतालो.

दोतोर (बेजारून) : सदांच कुम्प्लीगाद केसी घेवन येता! हांव आनीक वेगळें कांय दिना सोलार सुंगटांक दिता तेंच प्रसादाच्या दोण्याक दितां. फरक पडटा जाल्यार पळय.

त्या त्या रुतूंत तीं तीं लक्षणां दुयेंती भितर दिसप दोतोरां खातीर गरजेचें. दोतोराक निदान करपाक बरें पडटा. तशें जर जालें ना जाल्यार दोतोर कसो घुस्पता तें आमी पळयलें. आईन म्हाका तायखिळ्याचो जिरें युक्त रोस दिलो आनी थोडें जिवन मिक्सचर घेतलें आनी हांव निवळ्ळों. हिचे सावशेंचे मावस भयणीक दीस वताले तेन्ना भितरल्ल्यान कुलकुलो खावन जोर येतालो. ताच्या फामिली दोतोरा कडेन वतकच तो सोमतो धोंडकेचें इंजेसांव मारून बेड रेस्ट सांगतालो. पांचूय खेप तिका अशेंच जालें. हिकाय मर्दी कुलकुलो खावन जोर आयलो. दोतोर रायकाराक ही केस नवीच. ही ताका धोंडकेचें इंजेसांव मार आनी आपल्याक बेड रेस्ट दी म्हणपाक लागली. दोतोर रायकाराचें मलेरिया जांव येता अशें मत पडलें कारण वाड्यार सगळ्याक मलेरियाच्यो केसी मेळटाल्यो. दोतोरान हिका मलेरियाचें लक्षण म्हणुनूच वखदां दिलीं आनी हिचें रगत तपासतकच तातूंत मलेरियाचेच जिवाणू मेळ्ळे. केन्ना केन्नाय दोतोरूय सारकें निदान करतात हें आमी मानून घेवपाक जाय. दोतोराक दुयेंतीचीं लक्षणां कळप आनी ते नुसार त्रातामेंत करप हें सामकें गरजेचें. पिराय जाता तशी आमचे भितर जाण्टेपणाचीं लक्षणां दिसपाक लागतात. हांगा म्हाका एक ल्हानशी काणी याद जाली. तुमी घडये ती वाचल्या आसतली. एका जाण्टेल्याक अचकीत मरण येता. ताका व्हरपाक यमराज येता. तेन्ना हो जाण्टेलो यमा कडेन, तुंवें आपल्याक पूर्व सूचना दी नासतना आपलो जीव घेतलोच कसो, म्हणून वाद घालपाक लागता. यम म्हणटा, आपणें एकदां न्ही खूबदां पूर्व सूचना दिल्यो पूण तुंवें तांचे कडेन लक्ष दिवंचे सोडून ताचेरूच उपाय करपाक लागलो. तुजे केंस आपणें धवे केले ते तुवें कलर लावन परते काळे केले. तुजे दोळे फ्राक केले ताचेर तुवें वक्ल लायलें. आपणें तुजी बत्तीशी देंवयली, तुवें कवळ्यो बसयल्यो. तुका भेड्डो केलो तुवें कानार माक्न बसयलें. आपणें तुजे पांय फ्राक केले, तूं रॉत घेवन चलपाक लागलो. आतां तूं ह्या निमाण्या खिणाक रडत बसूं नाका म्हजे वांगडा मुक्कट्यांनी चल. यमान सांगिल्लीं लक्षणां खूब जाणां भितर दिसपाक लागल्यांत आसतलीं. तांणी भियेवपाची गरज ना, काणी ती!

आशिकुशीक नदर मारात. आमी जात, धर्माच्या नांवार एकमेकाच्या जिवार उठल्यात. बळी राजा आत्महत्या करता, चोर बँको लुटून देश सोडून चल्ले, ग्लोबल वॉर्मिंगाचो प्रस्न आ वासून उबो रावला, बेकार तरणाटे अस्वस्थ जाल्यात. आमी मात 'पद्मावत' रिलीज जातलो काय ना असले चिंतेन! हीं बऱ्याचीं लक्षणां न्ही!

संपर्क : 9850530756

# भोवभाशीक भारताच्या समृद्ध परंपरेचो नियाळ

परिक्षण

संवसार भरांतल्या भाशा अभ्यासकांक, भारतीय परंपरांचो सोद घेतना, भारतांतल्यो विंगड विंगड भाशा आनी साहित्याचें समृद्ध संचित स्पश्टपणान जाणवलां. ताका लागून घड्ये आर्विल्ल्या भाशांच्या अभ्यासाचो आरंभ करपी सर विल्यम जोन्स (Jones) हांचें ह्या विशया वयलें व्याख्यान आनी जॉर्ज गिअर्सन (Grierson) हांणी केल्लें सर्वेक्षणय हें संचित आनी हांग सरली संस्कृतीक विविधताय अभ्यासपा खातीर केली. हजारांनी वर्सांची परंपरा लाभिल्ल्या हांगाच्या शेंकड्यांनी भाशा आनी बोलयांक लागून मौखीक परंपरेतली साहित्याची मोठी परंपरा हे भारत भूंयेक लाभल्या.

भारतांत आयज ८८० भाशा उलयतात अशी नोंद जाल्या. प्रत्येक जनगणनेंत आनी भाशा सर्वेक्षणांत भाशांची संख्या उणावतना दिसता. फाटल्या ५० वर्सां भितर भारतांतल्यो २२० भाशा सोंपल्यांत. आयच्या भारतांत १० लाखांपरस अदीक लोक उलयतात अश्या भाशांची संख्या २९ आसा आनी आमचे राज्यघटनेन आठव्या परिशिश्ठांत २२ भाशांक 'राजभास' म्हणून मान्यताय दिल्या.




डॉ. सुनीलकुमार लवटे हांणी हालींच 'भारतीय भाशा व साहित्य' हें भारतीय राज्यघटनेन राजभास म्हणून दिल्ल्या बावीस भाशां मदल्या साहित्याची वळख करून दिवपी पुस्तक बरयलां. पुस्तकाच्या आरंभीं अभ्यास पुराय प्रस्तावने उपरांत डॉ. लवटे हांणी भारतीय भाशा आनी साहित्याचें स्वरूप हाचे विशीं संक्षेपान बरयलां.हातूंत तांणी, 'आयज भारतीय साहित्य अनेक भाशांतल्यान बरयिल्लें आसल्यारय, तिचें स्वरूप मात एकात्म आसा आनी त्या साहित्याची बुन्याद भारतीय संस्कृताय आसा.' तेच परीं 'भारतांतल्या आर्य आनी द्रविडी कुळयांतल्या भाशांक वेगळ्यो मानिनासतना तातुंतले समान दुवे, चरित्र, विचार, मिथक सार्वत्रीक करपांतल्यान भारतीय साहित्याची सार्वत्रीक आनी समान वळख निर्माण जावपाक शकता' हे सारकीं विचार करपाक लावपी साबार निरिक्षणां तांणी नोंदयल्यांत.

हजारांनी वर्सां पासून भारतीय मनीस ह्या सांस्कृतीक वैभवांत जियेता. ही विविधताय हांगच्या एकचाराचे भावने आड केन्नाच येवंक ना. देशांत असंख्य प्रादेशीक भाशा आसल्यो तरी, अंतस्थ सगळ्या भारतवर्षाचें हृदय एक आशिल्ल्यानच महात्मा गांधी सबंध राष्ट्राक एके भाशेन बांदपाक पळेताले. साने गुरुजीन हेच दिश्टीन 'आंतरभारती'चें सपन पळयलें. हाचें फुडेंय वचून रवीन्द्रनाथ टागोर 'विश्वभारती'चे सपन पळयताले. हे विचार प्रत्यक्षांत हाडपाक रातदीस झटपी जायते लोक आसात, तेच परीं ह्या आदर्शाआड वावुरपी जायत्यो प्रवृत्ती लेगीत आमच्या इतिहासांत दिसतात. दक्षिणेंत आयज हिंदी भाशेक जावपी विरोध, अनेक राज्यां मजगतीं भाशां वयल्यान जाल्लो सीमावाद हाच्या देखी आसात. हांगाच्या भाशीक संघर्शाचें समाजशास्त्र हो म्हत्वाचो विशय आसा आनी आमच्या 'ज्ञानपीठकार' रवीन्द्रबाबान तो अतिशय नेमकेपणान मांडला. डॉ. लवटे हांणी 'भारतीय भाषा आनी साहित्य' ह्या पुस्तकांच्या माध्यमांतल्यान केल्लो प्रयत्न हे पासत तोखणायेचो आसा.

भारतांतली भाशीक आनी संस्कृतीक विविधताय हो जगाच्या कवतुकाचो विशय आसा. कांय शतकां आदीं हांगा सुमार दोन हजारां वयर अधिक भाशा बोलयो उलयताले. पूण हालींच्या वर्सांनी ताची संख्या उणी जायत गेल्या. ज्येश्ठ भाशातज्ज्ञ डॉ. गणेश देवी हांच्या 'भारतीय भाषांचें लोकसर्वेक्षण' हांतुतल्यान ही गजाल मुखार आयल्या. हांगाच्यो भाशा नश्ट जावपाचे प्रक्रियेक ब्रिटीशांच्या वसाहती बराबरच संवसारिकीकरणा उपरांतचें बदलपी समाज जिवन कारणीभूत आसा. ताका लागून अशा काळांत आमच्यो भाशा आनी साहित्याचे समृद्धतेची वळख करून दिवपी डॉ. लवटे हांचें पुस्तक औचित्य पुराय थारता. ह्या पुस्तकाक लागून आमच्यो समृद्ध भाशा आनी साहित्य हांची वळख जावचे बरोबरच परस्परां-विशींचो सद्भाव वाडीक लागतलो हातूंत दुबाव ना.

भारत हो अनेक धर्म, पंथ, जाती-जमातींक एकठांय बांदून दवरपी देश आसा. हांगा अनेक धर्म आनी पंथ, अनेक वंश, अनेक भाशा-बोलयो एकठांय नांदतात. तेच बराबर भुगोलीक नदरेन हा देश विशिश्ट पुराय आसा. मानवी जिवितांत भुगोल ही भारी म्हत्वाची गजाल आसा आनी भाशांची विविधताय भुगोलीक विविधतायेंतल्यानच आकाराक आयिल्ली आसा. ताका लागून मनशाचें अणभवविश्व समृद्ध जाता. विंगड विंगड भाशांतल्या साहित्या मदीं अणभवांचे विविधतायेची समृद्धताय ताका लागुनच दिश्टी पडटा. ही विविधताय समजून घेतल्यार भारतीय समाजांतली सहिष्णुताय वाडटली आनी तांतुतल्यान भारतांत एकचार नंदतलो. अशा ऐक्यभावनेच्या विकासा खातीर साने गुरुजीन 'आंतरभारती'ची संकल्पना मांडली. आनी लोकांनी एकमेकांच्यो भाशा शिकपाचो, साहित्य समजून घेवपाचो आग्रो धरलो. तांचो हो वावर केंद्रीय साहित्य अकादमी, नॅशनल बूक ट्रस्ट, हेर राज्यांतल्यो

साहित्य अकादमी ह्या संस्थां बराबरच आंतरभारती वरी संस्था, वेगळी वेगळी नियतकालिकां, अनेक प्रकाशन संस्थांनी भारतीय भाशां मदल्या साहित्याचे अणकार मोठ्या प्रमाणांत सुरू केल्यात.

भारतीय राज्य घटनेन राजभास म्हणून मान्यताय दिल्ल्या आनी साहित्याची लांवदीक परंपरा आशिल्ल्या आसामी, बंगाली, बोडो, डोंगरी, गुजराथी, हिंदी, कन्नड, काश्मिरी, कोंकणी, मल्याळम, मणिपुरी, मराठी, मैथिली, नेपाळी, उडिया, पंजाबी, संथाली, संस्कृत, सिंधी, तामिळ, तेलुगु, उर्दू ह्यो बावीस भाशा आनी साहित्याची विशेश वळख डॉ. लवाटेंच्या पुस्तकांत आसा. आमच्या देशांत अनेक राज्यांक आपली राजभास थारावपाचो अधिकार दिल्ल्यान, भारतीय संघ राज्यां आनी केंद्रशासीत प्रदेशांत वट्ट एकतीस राजभाशांक मान्यताय मेळ्ळ्या. भारतांत इंग्लीश भाशा आनी हिंदी ह्यो दोन भाशा सोळा राज्यांच्यो राजभाशा आसात. भारतांत सगळ्यांत चड राजभाशा आशिल्लें सिक्कीम हें ल्हानशें राज्य आसा. ह्या राज्यांत भुटिया, लेपचा, लिंबू, नेवारी, गुरूंग, मगर, मुखिया, राई, शेरपा, तमंग अश्यो धा राजभाशा आसात. उर्दू आठ प्रांतांची राजभाशा आसा. छत्तीसगड, हरियाणा, मध्यप्रदेश आनी उत्तराखंड ह्या राज्यांची हिंदी ही एकच राजभास आसा. तर अरुणाचल प्रदेश आनी नागालँड ह्या राज्याची राजभास इंग्लीश आसा. अशे म्हायती बराबर राज्यांचें भाशीक धोरण, भाशा विशींच्यो समजुती, भाशीक आग्रो हे विशीं मोलादीक तपशील ह्या पुस्तकाची विशेशताय आसा.

प्रत्येक भाशेची आनी साहित्याची वळख करून दितना त्या भाशेचो वाठार, थंयची साधन-संपत्ती, शेती, त्या वाठाराच्यो शिमो, भाशा-संपर्काचें स्वरूप, भुगोलीक विशेशताय, थंयची मानवी जीण आनी तिचो इतिहास हाचे सयत भाशेचो घेतिल्लो नियाळ नदरेंत भर सारको आसा. खंयचेय भाशेच्या आनी साहित्याच्या अभ्यासांत ह्यो सगळ्यो गजाली अतिशय म्हत्वाच्यो आसतात. प्रत्येक भास कशी आनी खंय उलयतात, तिचे प्रादेशीक भेद कितले, ते खंय आनी कशे आसात, ह्या भाशांचें नीज भाशीक कितले आसात, ह्या भाशांचे आदीम रूप खंय आनी खंयच्या ग्रंथांत सांपडटा, भाशेचे पुरावे खंयच्या शतका पासून उपलब्ध आसात, खंयचे म्हत्वाचे ग्रंथ-ग्रंथकार हे भाशेंत आसा, तांचें योगदान कितें अशे साबार मुद्दे प्रत्येक भाशेच्या अभ्यासांत विचारांत घेतल्यात. भारतांतल्या भौतेक भाशां मदीं रामायण, महाभारतादी आर्ष म्हाकाव्यां उपलब्ध आसात. ह्या म्हाकाव्यांचें स्वरूप भाशे प्रमाण वेगळें आसा, देखीक आसामी भाशेंतय वखरी (बुरुंजी) आसात. ते ते भाशेंत शब्दकोशादी साहित्य कितलें आसा, कोण लेखक सगळ्यांत म्हत्वाचो, ताचें साहित्याक योगदान कितें, ज्ञानपीठा वरी सन्मान कोणाक मेळ्ळा आनी ताचे खंयचे साहित्य कृतीक मेळ्ळो आनी ते कलाकृतीचें स्वरूप कितें - अश्या साबार गजालीं विशीं चर्चा ह्या पुस्तकांत आयल्या. पुणून, म्हायतीची केवळ जंत्री दिवप इतलोच ह्या लेखनाचो हेत ना; तर प्रत्येक भाशेचें वेगळेंपण, तिचें सामर्थ्य, ते भाशेचो आनी साहित्याचो समग्र इतिहास अधोरेखित करचेलो प्रयत्न केला. शिवाय भाशीक चर्चे पासत लेखकान आर्विल्ल्या भाशाविज्ञानांतल्यान विकसीत जाल्ली भाशां कडेन पळोवपाची दृश्टी आपणायिल्ल्यान हो अभ्यास शास्त्रीय जाला.

ह्या पुस्तकांत प्रत्येक भाशेची आनी ते भाशेंतल्यान निर्मिल्ल्या साहित्याची योग्य ते पद्दतीन दखल घेतल्या. देखीक बंगाली भाशेचो कसो वेध घेतला तें पळोवचें. बंगाली ही हेर भारतीय भाशांचेर प्रभाव घालपी म्हत्वाची भास आसा. भारताचें राष्ट्रगीत बंगालींत आसा. भारताक आयज वेर मेळिल्लें नोबेल पारितोशीक रवीन्द्रनाथ टागोरांचे गीतांजलीक मेळ्ळां. बांगला देशाचें राष्ट्रगीत रचपाचो सन्मान लाभिल्ली ही भास साहित्य निर्मणे बाबतींत समृद्ध आसा. सगळ्यांत चड पुस्तकांची विक्री बंगाली भाशेंत जाता आनी खंयच्याय पुस्तकाची सरासरी आवृत्ती पांच हजार प्रतींची आसता. प्रत्येक बंगाली मनीस आपल्या मासिक उत्पन्नाचो ल्हानसो वांटो पुस्तकांचेर खर्च करता; 'बांगला देश' हे भाशीक अस्मितेच्या नेटाचेर उदेवाक आयिल्लें जगातलें एकमेव राष्ट्र आसुंयेत; किंवा 'डोंगरी ही अशी एकूच भारतीय भाशा आसा जी भाशा जावनय तिच्यांत बोलयांनी बरोवपाची परंपरा अखंडीत चालू आसा; किंवा आयज काश्मिरांतले हिंदू काश्मिरी भास देवनागरी लिपयेंत, तर मुसलमान अरेबीक-पर्शियन लिपयेंत बरयतात. अश्या म्हायती पुराय विधानांक लागून हें पुस्तक संग्रह करपा सारकें जालां.

''कोंकणी वाचूंक लागशात, संवय सुटची नाऽऽ'' असो कोंकणी भाशे वयल्या प्रकरणाचो माथाळो आसा. भास म्हणून मान्यता मेळपा खातीर तिका स्वकीय आनी परकी अश्या दोनय स्थरांचेर संघर्श करचो पडला अशें लेखक म्हणटा. कोंकणी ही प्राकृत भाशेंतल्यान उद्‌भविल्ल्यान, तिचें मूळ लिखीत रूप म्हणून श्रवणबेळगोळच्या गोमटेश्वराचे मुर्तीच्या पांयांचेर बरयिल्लीं अक्षरां 'श्रीचामुण्डेराजे करवियलें' हीच कोंकणीची आदय लिखितां अशें मानतात. कोंकणी भाषाविद् कै. श्रीपाद देसाय हांच्या अपभ्रंश भाशे पासून कोंकणी निर्माण जाली, ह्या मताचो उल्लेख केला. आयच्या काळांत कोंकणी देवनागरी, कन्नड, रोमी ह्या लिपयांनी बरयतात आनी आदल्या काळां गोंय कानडी आनी मल्ल्याळम् लिपयांनीच बरयताले हाचो उल्लेख केला. फादर थॉमस स्टीफन हाणें मराठी-कोंकणींत बरयिल्ल्या 'ख्रिस्तपुराणाचो' उल्लेख केला. तशेंच आर्विल्ल्या काळांतल्या म्हत्वाच्या लेखकांचो उल्लेख केला. कोंकणी शब्दांचे उच्चार लेखकाचे समजणीचे अभावीं बऱ्याच पुस्तकांचीं नांवां आनी शब्दाचें उच्चार ताणें सारके दिवंक नात. (देखीक; कानारीं कॅनरीमा (?), राशोल (रेकॉल (?), दर्या गाजोता (दोऱ्या गाझोटा (?), पिसोळीं (पिस्सोलीम (?), भितरलें तूफान (भितोर्लेम (?) तूफान), वोंवळां (बोवळां (?), कार्मेलीन (कार्मेलीन (?), दिका (डिका (?) बी.

भारताचो हजारांनी वर्सांचो समाजीक-संस्कृतीक इतिहासच ह्या भाशीक अभ्यासांतल्यान मुखार आयला. भाशेचेर प्रभाव घालपी

घडणुको - प्रसंगांची नोंद आसा. मनशाची भाशीक अस्मिताय कितली बळीश्ट आसता, मनीस आपले भाशे विशीं कितलो संवेदनशीळ आसता हाच्या साबार पुराव्यांचेर ह्या बरोवपांतल्यात उजवाड घातला. प्रत्येक भाशेचें अंतरंग हें ज्ञानभांडार आसता. ह्या ज्ञानभांडाराचें स्वरूप ह्या पुस्तकांतल्यान वाचकांक मेळटा.

पुस्तकाचें शेवटीं 'जागतिकीकरणा नंतरचें भारतीय साहित्य' आनी जोडिल्लीं तीन परिशिश्टांय भारी म्हत्वाचीं आसात. तातूंत पुस्तक लेखनाचो हेत अधोरेखीत करपी गटेची विश्वसाहित्याची संकल्पना, रवीन्द्रनाथ टागोरांची विश्वभारती संकल्पना आनी सानेगुरुजीची आंतरभारती संकल्पना समजावन दिल्यात.

**सुरेश गुंडू आमोणकार**

संपर्क: 9421241221

**भारतीय भाशा व साहित्य**
लेखक : डॉ. सुनीलकुमार लवटे
साधना प्रकाशन, पुणे.
पृश्ठां : १८६, मोल : रु. २००/-

---

# 'जिन्दगीनामा'




'जिन्दगीनामा' ही नामनेची लेखिका श्रीमती कृष्णा सोबती हांची एक गाजिल्ली कादंबरी. ती पंजाबाचेर बरयिल्ली आसा आनी भारताचे स्वतंत्रतायेच्यो आदलो काळ तातूंत चित्रित केल्लो आसा. सुमार चारशीं पानांची ही कादंबरी हिंदी भाशेंत आसा आनी तातूंत खूब उर्दू आनी पंजाबी उतरां आयल्यांत. पंजाबी संस्कृतींतल्यो खूब संकल्पना हातूंत आसात. खरेपणीं ही कादंबरी म्हळ्यार एके नदरेन पंजाबाचो मौखीक इतिहास म्हळ्यार अतिताय जावंची ना.

लेखिका श्रीमती कृष्णा सोबती 'जिन्दगीनामा' हे कादंबरीच्या 'ओंपणी' पानार बरयता ''इतिहास / जो ना / आनी इतिहास / जो आसा. तो न्ही जो राजसत्तांच्या राज पाटणांच्या प्रमाणां आनी पुराव्यां सांगातान एतिहासीक खात्यांनी नोंद जाल्लो आसा, सुरक्षीत सांबाळून दवरिल्लो आसा / पूण तो जो लोकमानसाचे भगिरथी वांगडा-वांगडा व्हांवता, चंवरता, पातळता आनी जनसामान्याच्या सांस्कृतीक अणभवांतल्यान जिवो उरता.''

हे कादंबरेंत निखटो इतिहासूच ना. तातूंत समाजशास्त्र आसा, मानववंशशास्त्र आसा, संस्कृताय आसा, भासशास्त्र आसा, अर्थशास्त्र आसा, राजशास्त्र आसा, भुगोल आसा. शेकीं मनिसकुळयेचीं सगळीं तासां तातूंत दिश्टी पडटात. तेच खातीर 'जिन्दगीनामा' हें शिर्शक हे कादंबरेक सामकें न्याय दिता.

ही कादंबरी म्हळ्यार लेखिका श्रीमती कृष्णा सोबती म्हण्टा तशी खऱ्यांनीच जिणेचो पर्याय आसा. जातूंत नायक ना, खलनायक ना, फकत लोक आनी लोक आसात. जिव्या तट्टटीत, उमेदी, जित्या काळजाचे धाडशी लोक जे हिंदुस्थानाची शीम आशिल्ले पंचनदीचे तडीर वसणूक करून आशिल्ले, शेंकड्यांनी वर्सां उद्दाम सैन्याची पीडापीड सोंशीत राविल्ले तांची ही कादंबरी. मनशांक मनशांपासून कशे तोडटात, तांचें शोशण कशें करतात ह्या सगळ्या वास्तवाचें हुबेहुब चित्रण हे 'जिन्दगीनामा' कादंबरेंत केलां.

अशे हे जिणेंचीं विंगड तासां आशिल्ले कादंबरेचो कोंकणींत अणकार करप म्हळ्यार 'शिवधनुश्य' उखलपा सारकें काम आनी तें लेखिका डॉ. जयंती नायक हांणी सामकें फिशालकायेन पेल्लां. हातूंत जी हिंदी बोली वापरल्या तिवूय ग्रामीण आनी अश्या मूळ ग्रामीण भाशेचो अणकार करप ही खूब कठीण गजाल. ते मूळ रचने परसय चड कठीण आसता. मूळ रचनेंतल्या उतरांक पर्यायी कोंकणी उतरां सोदप आनी तीं मूळ संकल्पनेक कसलीच बादा हाडीनासतना 'मुदयेर थीक' कशीं बसोवप हें खूब किचकटीचे काम आनी तें डॉ. जयंती नायक हांणी खूब बरे तरेन केलां. हो अणकार खऱ्यांनीच सामको सुरबूस आनी वाचपा सारको जाला आनी ते खातीर डॉ. जयंती नायक अभिनंदनाक पात्र आसात.

आयज मेरेन डॉ. जयंती नायक हांणी कोंकणी साहित्याच्या विंगड विंगड मळार नामना जोडल्या आनी हो 'जिन्दगीनामा' कादंबरेचो कोंकणींत अणकार म्हळ्यार डॉ. जयंती नायक हांच्या साहित्यीक प्रवासांतलो एक मोलादीक पांवडो म्हळ्यार अतिताय जावंची ना.

**सखाराम शेणवी बोरकार**

संपर्क : 9923306751

**'जिन्दगीनामा'**
**लेखिका:** श्रीमती कृष्णा सोबती
**अणकार:** डॉ. जयंती नायक
**उजवाडावपी:** साहित्य आकादेमी, नवी दिल्ली
**मोल :** २०० रुपया



# कविता

## हार्लीसराक गांवांत तसलो पावसूच लागना...

**रमेश साजु घाडी**

तो घोग्यांचो...
मोट्या थेंब्यांचो
वोडीचो, मोडातोडीचो
पनेळांतल्या... वावझडीचो
हार्लीसराक तसलो
गांवांत पावसूच लागना.

तश्या त्या हरनधारीच्या पावसांत
पायर्णीतल्यान कुडकूडत
आंगाक थपथपीत बशिल्लो
बुलूज कोफरांत धांपत
तिणेन चिप्प भिजून येवप.

आसकट्या वेल्यान पगळपी
बारीक पावसा थेंबे
बोटांचे कोयर्णेत पिळून तिणेन
चिरपुटान हळूच भायर मारप.

तकली खाला घालून मागीर
उजव्या पांया आंगठ्यान
वोली जमीन खरपीत
लजत... जिबली चावत
म्हज्या वांगडा तिणें
वर वर भर उलवप.

सांडटे नदरेन चोरयांनी
तिका कळनास्तना
ल्हवूच तिच्या थरथरत्या
वोठांच्या पाकुळ्यांक
हांवें पळयत रावप.

वोल्या सायेच्यो मिरयो
दोय हातांनी धरीत
जायां जुयांचो घमघमाट
पिश्या वाऱ्यार सोडीत...

व्हणकुलां वयर गोऱ्यो
पोंवळ्यो दोनूय नाचयत
लांब केंसां विणयो
माने वेल्यान हालयत
उडयो मारीत तिणें मागीर
आपल्या घरान धांवप.

ती गेली तरीय...
वोल्या पारेतीक वणखून
पनेळाचो शिदेव घेयत
कितलो तरी वेळ
बंद घराच्या दाराक
पळयत हांवें रावप...

कितलीशींच वर्सां जार्ली
हार्लीसराक गांवांत
तसलो पावसूच लागना...
आनी तिका पळोवंक तानेल्ल्या
दोळ्यांची म्हजी आसूय
कशीच भागना...



## पावशी सांज...

पावशी सांजेर दिसता म्हाका
सतरेंत तूं आसचें कशें
लजत पावल घालतना
भुजाक भूज घासचें कशें.

वावझडीच्या शिदोळान
चिप्प वयचें भिजून तुवें
तांबश्या पोल्यांर धरचो हात
थोडें हांसत लजून तुवें.

विणयो तुज्यो रावच्यो नाचत
नितंबाच्या धोलवण्यार
कोंपर मारीत हासचें तुवें
साद्या म्हज्या उलवण्यार.

नारगां वरीं रावचीं पेटत
दोंगरा माथ्यार जगलवर्णी
खिणा खिणांक परजळचीं
रुपां तुजीं भुलवणी.

पयशिल्ल्यान पडची कानार
खळखळटी दरया गाज
खोजण्यां वरी गडगडान
फरफरचें सतरे काप.

पांवशे सांजेर रावच्यो झडत
दडको मोट्यो धाकुल्यो
थरथरून वयच्यो तुज्या
वोंठांच्यो गो पाकुळ्यो.

भास तुज्या वोठांची
वोठांक म्हज्या येवची कळून
घट्ट म्हजे वेंगेंत तुजी
लजे भीड वयची जळून.

## परत व्हाळ व्हांवूंक लागला...

चुनींक्याच्या माथ्या वेल्यान
केगदी झोंपां हात्या वेल्यान
हडफडच्या आगरा कडें
अरबी दरया सागरा कडें
वांगडा कोणी वण्णां घेयत
दिवडा वरी मोण्णां घेयत
शेतां मदल्यान धावूंक लागला
परत व्हाळ व्हांवूंक लागला.

खळखळून येरकां गाजयत
फातुल्र्यांचीं ताबलां वाजयत
बोडगी चुरणीं लिंगडी झीलींत
कवडे बोकीं, शेरकां नाचयत.
आपल्या तालार गावंक लागला
परत व्हाळ व्हांवूंक लागला.

उदकांत म्हज्या सांगटा थिगूर
शेवटे तोपें लागल्या पेवूंक
नाका आतां काळखे राती
कचऱ्या पोतयो घेवन येवंक
वेळ काडून केन्ना तरी
आदले वरी योरे न्हावंक
हात जोडून हळूच कानांत
व्हाळ म्हज्या लागला सांगूंक
परत व्हाळ लागला व्हावूंक
परत व्हाळ लागला व्हावूंक.

खळखळून येरकां गाजयत
फातुल्र्यांचीं ताबलां वाजयत
बोडगी चुरणीं लिंगडी झीलींत
कवडे बोकीं शेरकां नाचयत.
आपल्या तालार गावंक लागला
परत व्हाळ व्हांवूंक लागला.

संपर्क : 9850453355

# दोन कविता

डॉ. राजय पवार

## धर्तरी आनी गीम-पावस

पावसा!!...
हांवें चार म्हयने तुका
आनी चार म्हयने गिमाक
वांटून दिल्यात.
उरिल्ले चार
म्हज्या भुरग्यांचे लाड करपाक

पूण... पावसा! हालींसरा तूं
खुपूच हुतहुतेपणां करपाक लागला
काळ-वेळ पळय नासतना येवपाक लागला
गीम, तुजेर सामको बेजार आसा.
तुजें हें मदले मर्दी येवप
ताका अजिबात रुचना
पयलींच तो तापट
तातूंत मायाचो म्हयनो!!
तूं कित्याक ओगीच
ताच्या सपनार उदक रकयता?...

तुजीं तन्नेपणां सोंपोवन
यो माया उपरांत
जून जावन!!
तूं म्हणटलो,
म्हजो गिमाचेर मोग चड म्हण
ना. तशें कांयच ना.
म्हाका तुमी दोगूय तितलेच प्रीय
तुज्या मोगाचे ओलसाणेंत
जितली हांव पाचवी जातां
तितलीच ताचे उबेंत तांबशेतां!

पावसा! तुजे लागीं इतलेंच मागणें
असो अवकाळी जावन येवप
बरें न्हय, समा न्हय
मदले मर्दी म्हजी धांदळ जाता.

गीम वतकीच तूं यो
ना जाल्यार
ताचो राग निवळायता म्हण सर
म्हाका नाका पुरों जाता.

## पावसोळ्यो

धतरि! आतां तरी हयकार दी
तुजे वयल्या म्हज्या मोगाक
सपनांचीं कुपां काळशेलीं
मेळूं दी आमकां दोगांक

तुज्या म्हज्या मेळपाक
असलें कसलें विघ्न?
धतरि!... तूं गिमा कडेन
जालें बी ना मूं लग्न?

त्या गिमाच्या नादान तुजो
सुकलो जायां पुडो
पळयतलोंच हांव म्हजे विणे
तूं कसो घातला चुडो?

धतरि... तुजो हट्ट सोड
म्हज्या मना सारकें घडूं दी
वेंगेंत येवन तुज्या म्हाका
दडकांनी झडूं दी

त्या गिमाक सांगून दवर
तुजेर तापनाका म्हण ओगी
तो आसत घोव तुजो
हांव युगा युगांचो मोगी

धर्तरी! म्हजी सखी प्रिया
तिका कितलो हांव आशेतां
तिणें वेंगेंत घेतकीच
तृप्त जावन निशेतां.

संपर्क : 9860716071

